# लोकरंग

डॉ. जयंती नायक, गोंय्

## लोकगितां : मुळचीं मंत्रगितां

एके पिळगेकडच्यान दुसरे पिळगेमेरेन मौखीक परंपरेन चलत आयिल्लीं असंख्य गितां आज संवसारभर सांपडटात. हीं गितां रचप्यांचें नांव मेळना आनी तांचेर 'लोकांची', म्हळ्यार पुराय समुहाची वा समाजाची मालकी आशिल्ली दिसता. हे मालकेक लागुनूच तांकां 'लोकगितां' म्हणटात.

लोकगितां समाजांतल्या अमक्याच वया-दर्जाचे, अमकेच व्यक्तीन वा व्यक्तींनी, अमक्याच कार्या-प्रसंगार गावचीं, हाचे सामाजिक निती-नेम आशिल्ले पळोवंक मेळटात. तीं आत्मसात करपाचेर मात कोणाची कसलीच आडखळ नासता. पूण दर एक लोकगीत खंयचे न्हय खंयचे चाली-प्रथेकडेन जोडिल्लें आशिल्ल्यान आनी ह्यो चाली-प्रथा अमकेच जातिच्या वा दर्जाच्या लोकांकडेन संबंदीत आशिल्ल्यान दुसर्या समाजांतले लोक तीं आत्मसात करूंक फाटीं सरतात. सांस्कृतिक सोयरीगत आशिल्ल्या दोन वेगळ्या संस्कृतायांच्या लोकांक एकामेकांच्या लोकगितांनी बरीच तोंडवळख आसता. केन्ना केन्ना नकळटां तीं तांच्या उत्सव-कार्याचें पंगतीकय वचून बशिल्लीं आसतात.

लोकगितां म्हळ्यार लोकसमुहाच्या भाव-भावनांचो संगितमय आविश्कार. तांचे निर्मणेचो निश्चित काळ सांगप कठीण. तरी तातूंत वर्णनरूपांत मनीस संस्कृतायेचे जे अवशेश सांपडटात, तांचेवयल्यान तीं अतिशय प्राचीन काळांत निर्माण जाल्यांत हें स्पश्ट जाता.

मनशाक जेन्ना 'वाणी' गवसली तेन्ना ताका सगळ्यांत आदीं काव्याचो उमाळो आयलो. ह्या वेळार ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां लय-ताल घेवनूच आयलीं. आपल्या मनांतल्यो भाव-भावना, विचार-उत्फर्के, उमाळे-हावेस बी ताला-लयेंत सांगनासतना सादे, सरळ आनी गद्य पध्दतीत सांगपाची ताची वृत्ती उपरांतची. मानसीक आनी भौतीक विकासाच्या अतिउच्च अशा पावंड्यार उबो आशिल्ल्या मनशाच्या तोंडांतल्यान अतिदुख्खाच्या आनी अतिखोशयेच्या प्रसंगार आजय भायर

सरिल्लीं उतरां लये–तालांतच आयिल्लीं पळोवंक मेळटात आनी ही गजाल मनीस जिणेकडेन जोडून आशिल्ल्या काव्याच्या म्हत्वाचेर नकळटां उजवाड घालतात.

वेद, ब्राह्मणग्रंथ, पुराणां, बौध्द जातकां, जैनचुर्णा, उपनिषदां ह्या सारक्या ग्रंथांनी लोकगितांचो बरोच उल्लेख सांपडटा. उपरांत आयिल्ल्या अभिजात साहित्यांतय तांच्यो कुरवो सांपडटात. हाचेवेल्यान तांची निर्मणी जाल्ली, वा तीं रचलीं त्या काळार लोकगितां समाजांत घोळटालीं हें सिध्द जाता. वैदीक काळार पुत्रजल्म, उपनयन आदी शुभप्रसंगांनी पारंपारीक गितां गायताले अशी म्हायती मेळटा. अशा गितांक वैदीक साहित्यांत 'गाथा' म्हणटाले आनी तीं गावप्यांक वा गायकांक 'गाथीन' म्हणटाले अशे उल्लेखूय मेळटात.

लोकगितां हीं 'गेय' आसतात. तांतल्या उतरांचेर सुरांचें अधिपत्य आसता. हे सूर सादे–सुटसुटीत आसतात. देखून पंगडांतले दर एके व्यक्तीक वया–मानाचो फरक करनासतना ते आत्मसात करप शक्य आसता. मणिपूर, त्रिपूरा आनी मध्यप्रदेश हांगाच्या आदिम जमातींमदीं कांय लोकगितां अशीं आसात, जातूंत उतरां नासतात. तातूंत फकत लयप्रधान सूररचना आसता. ह्यो जमाती लोकनृत्य करतना अशे तरेचीं लोकगितां गायतात.

'मंत्रगीत', 'गीत' आनी 'गीतकाणी' अशा तीन रूपांनी लोकगितां आज समाजांत घोळणुकेंत आशिल्लीं दिसतात. 'मंत्रगीत' आकारान साप ल्हान आसता. सर्वसादारणपणान चार ते स वळीं भितर तें मेळटा. 'गीत' हें ताचे परस व्हड आसता. तें मंत्रगितापरस चड गेय आसता. जाल्यार 'गीतकाणी' चड प्रदीर्घ आसता. तातूंत गद्याचो भाग आसलो, तरी सुरांचें चड साम्राज्य आसता. गद्यांतय एक तरेची लय आसता. मनशाक जाल्ली 'दिश्टबाधा', 'भुतबाधा' आनी 'रेंचबाधा' पयस करपाखातीर मुखेलपणान 'मंत्रगीत' (मंत्ररूपांतलें) गायिल्लें पळोवंक मेळटा. 'गीत' हें सर्वसादारणपणान लग्नकार्य सारक्या प्रसंगार, तशेंच थरावीक उत्सवांच्या काळार गायिल्लें मेळटा. गिताचो आनी नृत्याचो दाट संबंद. 'गीतकाणी' ही गीत आनी काणी हे मदले अवस्थेंत आशिल्ली रचना. ती मुखेलपणान वेवसायीक लोकगायकच गायतना दिसतात. भाट, चारण, बंदी, कुश–लव अशा विविध नांवांनी भारतभर अशे वेवसायीक 'कथा गीतगायक'

सांपडटात. गोंयांत कुळंबी–गावडी जमातींमदीं अशे परंपरेन बांदिल्ले लोकगायक आसात. ते देव–देवतांच्यो गीतकथा थारावीक उत्सव–प्रसंगार गायतात. तांकां 'काणयेकार' अशें म्हण्टात. 'गाणेलीं' ह्या नांवानय तांकां वळखतात.

लोकगितां केन्ना बायलांनी तर केन्ना दादल्यांनी स्वतंत्रपणान गायिल्लीं सांपडटात. दादल्या–बायलांचीं जोड लोकगितांय कांय वाठारांनी मेळटात. मात गोंयांत अश्यो देखी मेळनात. ल्हान भुरग्यांचींय जायतीं लोकगितां मेळटात. तीं मुखेलपणान बडबडगीत रूपी दिसतात.

देश–विदेशांतल्या लोकगितांचो अभ्यास केल्यार एक गजाल सामकी जाणवता ती म्हळ्यार, बायलांच्या लोकगितांचो आंकडो दादल्यांच्या लोकगितांपरस खुबच व्हड आसा. हाचें कारणय स्पश्ट आसा. बायल दादल्यांपरस चड संवेदनशील, चड हळवी, भावूक, धार्मिक वृत्तिची आनी सुंदरकायेची चड आवड आशिल्ली आसता. घर–संवसार, भुरगीं–बाळां, आपलें कूळ–कुटूंब हे भोंवतणी दादल्यापरस ती चड घुस्पल्ली आसता आनी म्हणुनच तिचेकडल्यान लोकगितांची चड निर्मणी जाल्ली आसा. कुटुंबाचें जनन, भरण आनी रक्षण ह्या तीन क्रियांकडेन बायलांचीं भौतेक लोकगितां जोडिल्लीं पळोवंक मेळटात.

'लोकगितां' म्हणजे मनोरंजनाचें साधन वा माध्यम आसा म्हणपाचें विधान लोकसंस्कृतिच्या पुर्विल्ल्या कांय अभ्यासकांनी केल्लें आसा. पूण ह्या विशयाचो खोलायेन अभ्यास केल्यार हें विधान चुकिचें म्हणपाचें होलमता आनी 'धार्मिक विधी' वा 'धार्मिक आचार' हें लोकगिताचें मूळ रुप हें सत्य सामकार येता.

वैदीक संस्कृतायेचो असर आशिल्ल्या समाजांत धार्मिक उत्सव आनी लग्न–कार्य सारक्या प्रसंगार 'वैदीक मंत्र' जें कार्य करतात, तेंच कार्य अवैदीक समाजांत लोकगितां करतात. म्हणजेच खर्या अर्थान, लोकगितां हीं अवैदिकांचीं 'मंत्रगितां' वा 'मंत्र'.

ह्या संवसारांत अतिशक्तीमान आनी अचाट अश्यो कांय दैवी आनी अतिमानवी शक्ती अदृश्यरूपान सगळ्याक वावुरतात. ह्या शक्तिचें संवसारांतल्या सगळ्या गजालींचेर नियंत्रण आसता. दीस–रात, उजवाड–काळोख, पावस–वोत, जल्म–मरण.... ह्या धर्तरेवयल्या सगळ्या घडणुकांच्या

मुळाकडेन ह्यो शक्तीच कारण आसात. तांचे कृपेक लागून हे धर्तरेचेर पावस-पाणी वेवस्थीत पडून धन-धान्याची विपुलताय जाता. तांची कृपा ना जाल्यार औरां-दुकोळ येवन सगळोच तळतळाट जाता. मरी-म्हारोग येवन मनीसजातिचो संहार जाता,अशे कितलेशेच समज-विस्वास आदीम काळार मनशामदीं आशिल्ले. देखून ह्या शक्तींक प्रसन्न करून घेवन आपलो कार्यभाग सादपाखातीर ताणें कितल्याश्या यंत्र-तंत्रांची निर्मणी केली. लोकगितां हीं ह्या यंत्र-तंत्रांचे पुर्णतायेखातीर रचिल्ले मंत्र. हे मंत्र उच्चारपाची शक्ती आनी ते वरवीं तंत्रां सिद्धीक व्हरपाचें कसब घराण्यांतल्या वा समाजांतल्या जाण्ट्या-जाणकार व्यक्तीमदींच आसता असो समज आशिल्ल्यान लोकगितांचें गायन मुखेलपणान जाण्टेच करतना दिसतात. तांचे फाटल्यान भुरग्यांनी हें दायज मुखार व्हरपाचें आशिल्ल्यान, भुरग्यांक ताचें गिन्यान जावंचें हे भावनेंतल्यान गायनाचे कार्यावळींत भुरग्यांकूय सहभागी करून घेतात.

आदीम काळार निर्माण जाल्लीं सगळीं यंत्र-तंत्रां यातुविद्येचोच एक भाग. यातुविद्येंतल्यानच लोकधर्माची उत्पत्ती जाल्या. लोकधर्माची कल्पना 'अभिजात' धर्मापरस खुबच वेगळी. अभिजात धर्माची निर्मणी खंयच्याय तरी एका विशिश्ट देवा पसून वा संता पसून जाल्या. हाचे उरफाटें, लोकदैवतां हीं लोकधर्मांतल्यान उदेवाक आयिल्लीं आसात. मनशाच्यो मुळाव्यो अश्यो भौतीक आनी आत्मिक गरजो भागोवप आनी एकंदरीत ताची जीण नियंत्रीत आनी संयमीत करप, ह्या उद्देशांतल्यान लोकधर्म जल्माक आयला. लोकधर्माच्या नियंत्रणांत यातुविद्येचो वांटो शिंवाचो. पर्यायान लोकगितांचेंय तातुंतलें म्हत्व अनन्यसादारण.

'सारक्यांतल्यान सारकें जल्माक येता' हें यातुविद्येचें मुखेल सुत्र. जी गजाल वा घडणूक घडची अशी अपेक्षा आसता ताची नक्कल करून संवसाराचेर नियंत्रण दवरपी शक्तींक होरायल्यो जाल्यार इत्सीत फळप्राप्ती घडटा असो यातुक्रिया करतल्याचो घट भावार्थ. संतती जनन, तिचें पोशण आनी रक्षण ह्या तीन कार्यांभोंवतणी पुरायेन बांदून आशिल्ल्या आदिम समाजान निर्मिल्ल्या ताच्या लोकगितांनीय ह्या तीन मुखेल उद्दिश्टांच्यो कुरवो दिसतात. गितांनी येवपी विशय, प्रतिमां, प्रतिकां आनी साबार तरेचीं वर्णनां ह्या तीन कार्यांचे पुर्ततायेंतूच घुस्पल्लीं आसतात.

आपणालें अस्तित्व तिगोवन दवरपाखातीर आदिम मनशाक त्या काळचे

परिस्थितीकडेन भोव कठीण असो संघर्श करचो पडला. जल्म–मरणाच्या चक्रांत ताचेखातीर 'सृजन' वा 'नवनिर्मणी' ही गजाल खूब म्हत्वाची थारल्या. सृजन स्वताचें आसूं वा धर्तरेचें आसूं, ताचे खातीर दोनूय कार्यां गरजेचीं, मुळावीं. देखुनच यातुक्रियेच्या रूपांत ताणें निर्मिल्ल्यो भौसंख्य विधी–प्रथा सृजनाच्यो वा सुफलीकरणाच्यो विधी–प्रथा म्हूण जल्माक आयिल्ल्यो आसात आनी तांचेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या गितांनीय तोच भावार्थ भरिल्लो आसा.

जिविताच्या अस्तित्वाखातीर झगडपी आदिम समाज मातृप्रधान आशिल्लो. ह्या काळार मातृदेवतांचें वर्चस्व आशिल्लें. मनशाक जल्म दिवपी माता आनी तिच्या भुरग्यांच्या पोटरक्षणार्थ असंख्य जितापत–वनस्पत जल्माक घालपी धर्तरी दोगांयचेंय ह्या काळार मनशान नातें जोडलें. हांतल्यानच धर्तरेचें, म्हणजे मातृदेवतेचें पुरोहीतपण बायलमनशेकडेन आयलें. लोकगितांच्या माध्यमांतल्यान बायलमनशेन हे देवतेकडेन संवाद सादलो. आपली आनी आपल्या भुरग्यां–बाळांचीं गाराणीं – मागणीं तिचेकडेन पावयलीं.

भुंयदेवतेकडेन संवाद सादपाचें माध्यम म्हूण कार्यरत आशिल्लीं लोकगितां आज दादल्यांनीय गायिल्लीं दिसतात आनी हाका कारणय आसा. काळ न्हंयेच्या प्रवाहांत जीं जायतीं स्थित्यंतरां समाजांत जालीं तांतलें एक म्हत्वाचें स्थित्यंतर म्हळ्यार दादल्याचें बायलेवेलें वर्चस्व आनी बायलमनशेचो सकयल गेल्लो समाजीक दर्जो. ह्या कारणाक लागून तिची, गांवच्या शासनांत आनी देव–देवळांत आशिल्ली आदली अधिसत्ता गेली आनी थंय दादल्यांची अधिसत्ता आयली. हाका लागून आदल्या यातुक्रियांनी आनी धर्मविधिंनीय बदल जालो. देव–देवतांकडेन संवाद सादपाची जबाबदारी आतां दादल्याकडेनय आयली आनी ताणें आपल्या ह्या कर्तव्यसिध्दीखातीर साबार लोकगितांची निर्मणी केली. 'स्त्रीराज्य तें पुरूशराज्य' ह्या स्थित्यंतरांत पुरूशदेवांची संकल्पना उदेवाक आयली. तांचेंय म्हत्व तयार जालें आनी सुङ्गलीकरण विधिंनी गितरूपांतल्यान तांचीय होरावणी सुरू जाली. ही होरावणी दादल्यांवांगडा बायलांनीय केली.

आदिमकाळ तो आयचो आधुनीककाळ ह्या लांब प्रवासांत मनशान आपली कितलिशीच भौतीक आनी मानसीक उदरगत केली. आपल्या

आदिम जिणेमुल्यांची जतनाय करतनाच ताणें साबार नवीं मुल्यांय आपणायलीं. आदल्या अदृश्य देवांक ताणें मूर्त रूप दिलें. तांचेविशीं तरांतरांची कथा–मिथकां निर्मिलीं. आपलो दिसपट्टो ग्रास मेळोवपाचें एक तंत्र म्हणून घोलींतल्या वण्टींचेर ताणें काडिल्ल्या ‘क्रूड’ चित्रांतल्यान व्हडलीं व्हडलीं मंदिर–शिल्पां सजलीं, गांव–गाड्याची रचना बदल्ली. येणावळिच्या मार्गांतय बदल घडून आयलो. ह्या सगळ्यांचो परिणामय मोठ्या प्रभावीपणान लोकगितांचेर जाल्लो दिसता. तांच्या मुळच्या आशय–विशयांत बर्याच प्रमाणांत आज बदल आयिल्लो जाणवता. धार्मीक भाव–भावना उकतावपाचें एक माध्यम ही तांची मुळची भुमिका कुशीक पडून काळजांतल्यो व्यथा, उमाळे, उत्फर्के व्यक्त करपाचें एक साधन म्हुणूनय कांय लोकगितां ह्या काळांत निर्माण जाल्लीं नदरेक पडटात. खास करून बायलांच्या लोकगित प्रकारा संबंदान अशें चित्र पळोवंक मेळटा.

‘उत्सवगितां’, ‘संस्कारगितां’ आनी ‘श्रमगितां’ अशा तीन मुखेल प्रकारांनी लोकगितां आज समाजांत घोळणुकेंत आसात. हांतलीं उत्सवगितां हीं उत्सव–कार्यांतल्या विधिंकडेन संबंदीत आसात. हातुंतलो मोठो वांटो नृत्यगितांचो. खेळगितांय ह्याच विभागाखाला येतात. आज धर्मविधीकडेन संबंद नासतना, निकटें मनोरंजन म्हण खेळ खेळटना गायिल्लीं लोकगितांय मुळाक धर्मविधीकडेन संबंदीत आशिल्लीं. संस्कारगितां हीं जल्म, पौंगडप्रवेश आनी लग्न ह्या तीन संस्कारांवेळार मुखेलपणान गायिल्लीं मेळटात. श्रमगितां हीं घर आनी घराभायलो वावर करतना, कश्ट विसरपाखातीर आनी केल्ल्या कश्टांचें चीज मेळपाखातीर गायिल्लीं दिसतात. ह्या तिनूय तरांच्या लोकगितांची उद्दिश्टां वेगळीं आसलीं तरी तीं निश्चितपणान कसले न्हय कसले क्रियेकडेन संबंदीत दिसतात. देखूनच सगळीं लोकगितां हीं एका अर्थान ‘क्रियागितां’ आसतात.

लोकगितांच्या वयल्या तिनूय प्रकारांचो अभ्यास केल्यार एक गजाल होलमता ती म्हळ्यार, धार्मिक विधींकडल्यान कुशीक काडून लोकगितां तिगोवप शक्य ना. जीं लोकगितां समाजमानसांत चालंत आशिल्ल्या धर्मविधींकडेन संबंदीत आसात तींच लोकगितां आज समाजांत मिरयतना दिसतात. आयचे स्थितींत श्रमगितांची परिस्थिती खूबच वायट जाल्या. श्रमपरिहाराच्या समाजांत तयार जाल्ल्या विविध साधनांवांगडा चडशीं श्रमगितां ना नपयत जाल्लीं आसात. संस्कारगितांचेंय म्हत्व आज

मनशाच्या दिसपट्ल्या धांवपळीच्या जिवितांत दिसान दीस उणें जायत आसा. उत्सवगितांचें म्हत्व आदले सारकेंच आसा अशेंय म्हणप योग्य जावंचेंना. तरी हेर दोनूय प्रकारांच्या मानान तांचें स्थान आजुनय समाजांत बरेंच मानाचें आसा.

संवसारांतल्या अदृश्ट शक्तिंचेर सिध्दी मेळोवपाचें मंत्र म्हणून मुळाक लोकगितांची निर्मणी जाल्ली आनी उपरांत 'श्रम परिहार' आनी 'मनोरंजन' अशीं प्रयोजनां तांच्या सादरीकरणा कडेन जुळिल्लीं आसलीं, तरी लोकगितां हीं मौखीक अभिव्यकतीचो एक सुंदर असो आविश्कार. ते भायर, समाजांत आजवेर घडत आयिल्ल्या तरेकवार स्थित्यंतरांचो आनी बर्या-वायट गजालिंचोय तीं दस्तऐवज आसात. मनीस जातीन आजवेर मेळयिल्ल्या गिन्यानाची ती जिवी गंगा. देखून, लोकगितांचें जतन आनी संवर्धन जावप भोव म्हत्वाचें आनी हे खातीर धार्मिक परंपरा समाजांत चलणुकेंत उरप गरजेचें.

## लोकवेद आनी संगीत

'संगीत' हें लोकवेदाचें एक अतिशय म्हत्वाचें आंग. ह्या आंगान पुराय संवसार भाराविल्लो आसा. संवसारांतलो खंयचोय समाज वा खंयचोय पंगड घेयात, तांचेमदीं संगीत ना अशें केन्नाच घडचें ना. संवसारांतलें दर एके जमातींत, दर एका पंगडांत जसो लोकवेद आसता, तशेंच तांचेमदीं ह्या लोकवेदाचें म्हत्वपूर्ण आंग आशिल्लें संगीत हें आसताच आसता.

परंपराप्रिय आनी समूहजीण जगपी लोकमानसान रचिल्ल्या संगिताक 'लोकसंगीत' म्हूण वळखतात. आयच्या लोकसमाजाची उत्पत्ती जे परीन आदिम समाजांतल्यान जाल्या, तेच परीन आयच्या लोकसंगिताचो उदेवय आदिम संगितांतल्यान जाला. लोकवेदाच्या हेर जायत्या प्रकारांत जशीं आमकां मनशाच्या आदिम संस्कृतायेचीं वैशिश्ट्यां घोळणुकेंत आशिल्लीं सांपडटात, तशींच आदिम संगिताचीं वैशिश्ट्यांय लोकसंगितांत वावुरतना दिसतात. दुसरे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार, 'आदिम' आनी 'नागर' अशा दोनूय तरेच्या संगीत समन्वयांतल्यान आयचें लोकसंगीत घडिल्लें आसा.

मनशाचें आनी संगिताचें नातें खुबच पोरनें. जनावरांभशेन

आशिल्ली आपली जीण बदलूंक मनशान जेन्ना आपल्या विकासाची बुन्याद घाली, तेन्नाच ताच्या हातांतल्यान संस्कृतीचीय बुन्याद पडली. ही बुन्याद पडटनाच संगिताची रचणूक जाली. मनशाक 'वाणी' गवसतांच ताच्या तोंडांतल्यान जीं पयलीं उतरां भायर सरलीं तीं लये-तालांतच आयलीं अशें संबंदीत शास्त्रांच्या विद्वानांचें मत आसा. सैमांत वावुरतल्या मनशाच्या आशिकुशीक व्हांवपी न्हंय-व्हाळांचे खळखळाट, सुकण्या-सावदांचे चित्कार, पावसाचो झिरीमिरी नाद, वार्याची कुंकार बी गजालींच्या प्रभावांतल्यान ताच्या तोंडांतल्यान लये-तालांतल्यान उतरां भायर सरपाक कारण जालीं. हांगाच संगिताची आनी पर्यायान काव्याची पयली निर्मणी घडली. आजय वेगवेगळ्या जातीं-जमातींमदीं आशिल्ल्या लोकसंगिताचो अभ्यास थंयचें सैम आनी वातावरणाचो अभ्यास करून केल्यार दोगांयचेंय एकमेकांकडलें नातें स्पश्ट जाता.

मनशाक 'बोली' मेळटांच ताचे सगळे वेव्हार काव्यांत सुरू जाले. आजय अती खोशयेच्या आनी अती दुख्खाच्या प्रसंगार मनशाच्या अंतर्मनाच्या खोलायेसाकून येतलीं उतरां काव्यांतच आसतात, ही गजाल ताचे जिणेंत आशिल्ल्या काव्याचें आनी संगिताचें म्हत्व सांगतात.

मनशान आपल्या उत्क्रांती अवस्थेच्या सुरवातेच्या काळार 'संगीत' हें संवसारांतल्या अदृश्य शक्तींक होरोवपाचें माध्यम म्हणूनच वापरलां. 'जनन' आनी ताचें 'पोशण' ह्या दोन क्रियांभोंवतणीं घुंवतल्या आदिम मनशान आपल्याक योग्य शिकार मेळपाखातीर, भरपूर पिकावळ येवपाखातीर, पावस-औरां सारक्या सैमीक आपत्तींतल्यान राखण मेळपाखातीर गितां गायल्यांत आनी नृत्य-खेळ केल्यात. हेच परंपरेंतल्यान संगीत हें देवाक होरोवपाचें माध्यम म्हूण समाजामुखार आयलां, जाचो मूळ निर्मिती-उद्देश आजय बदलिल्लो ना. आजय सगळ्या मुखेल लोकसंगितांच्या प्रकारांचो संबंद गांवच्या खंयच्या ना खंयच्या उत्सव वा धर्मविधीकडेन मेळटा.देव-देवतांमुखार वा गांवच्या भौशीक मांडार ताचें सादरीकरण केल्लें पळोवंक मेळटा.

भौतीक आनी मानसीक विकासावांगडा मनशान निर्मिल्ले आदिम संस्कृतायेचें जशें लोकसंस्कृतायेंत रूपांतर जालें, तेचभशेन ताच्या आदिम संगिताचेंय लोकसंगितांत परिवर्तन जालें.

लोकसंगितांत कंठसंगीत, वाद्यसंगीत आनी कंठ–वाद्यसंगीत अशे तीन मुखेल प्रकार मेळटात.

कंठसंगितांत, कंठांतल्यान भायर सरिल्ल्या बोलांतल्यान, म्हणजेच गितांतल्यान जे सूर भायर सरतात तेच 'संगीत' निर्माण करतात. हांगा उतरांच्या सांगाताक कसल्याच वाद्याचे सूर नासतात. निखळ गीत गायनांतल्यान संगिताची रचना जाल्ली आसता. हाचे उलट वाद्य संगिताचें, हांगा वाद्य वादनांतल्यान ज्या सुरांची निर्मणी जाता, ते सुरच संगीत जल्माक घालतात. वाद्यसंगितांत गितांचो सांगात नासता. कंठ–वाद्य संगीत प्रकारांत गीत आनी वाद्य दोनांच्याय एकवटांतल्यान संगीत तयार जाता. 'कंठ–संगीत', 'वाद्य संगीत' आनी 'कंठ–वाद्य संगीत' ह्या तिनूय प्रकारांचे आपापलें खाशेलेपण आसा. तांकां खाशेले सांस्कृतिक आनी सामाजिक संदर्भ जुळिल्ले आसात. हांतलो अमूकच एक प्रकार श्रेश्ठ आनी दुसरो दुय्यम अशें म्हणूंक मेळचेंना. मात, कंठसंगिताच्या मानान वाद्यसंगीत प्रकार 'लोकां' मदीं कमी सांपडटात. संवसारांतल्या चडश्या जाती–जमातींमदीं बायलांचें लोकसंगीत हें कंठसंगिताच्याच रूपांत मुखेलपणान मुखार येता. 'लौकीक' संगीत प्रकार मात हाका आडवाद आसात.

'वाद्य–संगीत' आनी 'कंठ–वाद्य संगीत' हे प्रकार दादल्यांचीच मक्तेदारी म्हणून मुखार येतात. हांगाय 'वेवसायीक' आनी 'हौशी' अशे भेद सांपडटात. वाद्य वादनाची कला दादल्यांकडेन मर्यादीत उरपाक, वाद्यांचे निर्मितीक वापरतात तें साहित्य आनी ताचे फाटली संकल्पना आनी संकेत हें जशें कारण आसा, तेचबरोबर तांच्या वादनाखातीर आंगांत लागपी बळय कारण आसा.

## लोकसंगिताचीं फुडलीं कांय मुखेल वैशिश्ट्यां आसात :

१. लोकसंगीत हें समुहमनाची निर्मिती. एकेच तरेच्या भाव–विश्वांत जगतल्या आनी एकेच तरेच्या प्रेरणांनी भाराविल्ल्या समूहमनांतल्यान, जल्माक आयिल्लें आसता. मुळाक जरी एखाद्रे व्यक्तीन ताका शब्द दिवपाचें कार्य केल्लें आसलें तरी उपरांत ताचो वावर स्विकारून मुखावयले संस्कार पुराय समुहान वा पंगडान केल्ले आसतात. हें सांघीक पध्दतीन घडटा. निर्मितीवांगडा लोकसंगिताचो प्रसार आनी सांबाळ सामुहीक रितीनच जाता. तांतलो आशय–विशय आनी सुरावटीचेर समुहाचो पगडो आसता.

२. मौखीक परंपरा हें लोकसंगिताचें दुसरें म्हत्वाचें वैशिश्ट्य. समुहमनांतल्यान जल्माक आयिल्ल्या लोकसंगिताचो मुखार जो प्रसार जाता तो मौखीक परंपरेनच जाता. लोकांचे जिबेर घोळूनच तें एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावता. हें वैशिश्ट्य कंठसंगिताक खाशेलेपणान लागू जाता.

३. लोकसंगीत श्रवण आनी निरिक्षण परंपरेंतल्यान एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरन पावता. देखीक, वाद्य-वादनाचो प्रकार, जातूंत उतरांचो संबंद नासता, दुसरो वादक वाजयता तें आयकून आनी पळोवन तें आत्मसात करप जाता.

४. लोकसंगितांत गितांतलीं उतरां आनी कडवीं हांची पुनरावृत्ती जाता. पुनरावृत्तीच ताचें आगळेंपण थारता.

५. सगळ्या लोकसंगीत प्रकारांचें प्रयोजन हें मुळाक धार्मिक कृत्य म्हुणूनच जाल्लें आसा. सरभोंवतणचो सैम आनी ह्या सैमाक नियंत्रीत करपी कोण तरी अदृश्य शक्त (कालांतरान तिका 'देव' ही संज्ञा प्राप्त जाली.) हांकां होरावपाचें प्रयोजन लोकसंगिताचे निर्मितींत आशिल्लें मनोरंजनाचें प्रयोजन ताका उपरांत जुळ्ळां.

६. लोकसंगितांत त्या त्या वाठाराच्या भुगोलाचो छाप उदेल्लो आसता. देखीक : नुस्तेकारांच्या वा खारव्यांच्या लोकसंगितांत जसो नुस्तें, सुकती, भरती, पोनेळ, व्हडीं हेसारकी उतरावळ आयकूंक येता, तेच वांगडा तांचे सुरावटींत 'दर्याचो गाज' सांपडटा.

शेतीसंस्कृतायेंत जल्माक आयिल्ल्या आनी शेतां-भातांत घोळपी कश्टकरी गावडी – नायक समाजाच्या बायलांच्या धालो-संगितांत वार्याचेर धोलतल्या भाताच्या थामाचो 'ताल' जाणवता.

लोकसंगितांत भौगोलीक वैशिश्ट्यताये वांगडा थळांतर गूणय आसतात. ह्या गुणांक लागूनच लोकसंगीत एका वाठारांतल्यान दुसर्या वाठारांत पावता. ही भोंवडी करतना थंयच्या थळाव्या संस्कृतीक आनी सैमीक वातावरणाचो प्रभाव ताचेर नकळत जाता.

दोन वेगवेगळ्या वाठारांतल्या लोकसंगितांत बरेच फावट समानताय दिसता ताचे फाटल्यान ताचो थळांतर गूण हें एक म्हत्वाचें कारण आसता. दोनूय वाठारांतले लोकसंगिताचे फांटे केन्ना तरी एकाच उगमांतल्यान

भायर सरिल्ले आसतात.

गोंयांत लोकसंगिताची व्हड परंपरा आसा. ताचो उदेव इतिहासकाळाच्याकय बर्याच फाटीं जाल्लो आसा. गोंयच्या शेतीप्रधान संस्कृतायेंत जेन्ना धालो–शिगम्या सारके उत्सव जल्माक आयले तेन्नाच ह्या उत्सवांतलो मुखेल आचार म्हणून हें संगीतय निर्माण जालें. दुसर्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार, संगीतरूपी धर्मविधीनच मुखार उत्सवाचें आंगलें घातलें.

गोंयांत 'बायलांचे' आनी 'दादल्यांचे' अशे दोन वेगवेगळे संगीत प्रकार मेळटात. हातूंत बायलांचें सगळें लोकसंगीत हें 'कंठसंगीत' जाल्यार 'कंठ–वाद्य संगीत' आनी 'वाद्य–संगीत' दादल्यांनी सादर केल्लें दिसता.

बायलांच्या कंठ–संगितामदीं 'होंवयो', 'धवळे', 'पाळणे', 'धालो–गीत', 'फुगडी–गीत' अशे प्रकार मेळटात. हांतल्या फुगडी–गीत प्रकाराक ताळयांचो नाद सांगात दिता, जाल्यार हेर सगळे प्रकार गायतल्याच्या कंठांतल्यान भायर सरिल्ल्या निव्वळ सुरांचेर उबे रावतात.

दादल्यांच्या कंठ–वाद्य संगीत प्रकारांमदीं 'हौशी' आनी 'वेवसायीक' अशे तरेचे दोन मुखेल प्रकार घोळणुकेंत आसात. हांतलें वेवसायीक संगीत हें गणसाबैलकाराचें वा बसवोकाराचें. 'खेळी' आनी 'कुळी' अशे दोन प्रकार ताचेकडेन आसात. ताच्या गायनाक 'धोलकें' आनी 'शेनाय' हया दोन वाद्यांचो सांगात आसता.

बसवोकाराचें लोकसंगीत गोंयांत इतिहासकाळार पावलें, पूण ते आदीं गोंयांत वेवसायीक लोकसंगीत आशिल्लें आसूंक जाय म्हणपाचो निर्वाळो हांगाच्या कांय जातींच्या नांवाक जुळिल्ल्यो 'गाण', 'गाणेल' सारक्य उपाध्यो दितात. हे लोक देशांतल्या हेर वाठारांसारके दारादारांनी भोंवन उपजिवेकेचें साधन म्हुणून आपली कला सादर करताले काय कितें, हेविशीं आजून सारकें स्पश्टीकरण मेळना.

कलाकारांच्या आंगांतल्या विशेश प्राविण्याक लागून ज्या संगिताक वेवसायीक संगीत म्हणूनच उल्लेखूंक जाय आनी जाचो आयच्या शिश्ट संगितांतय प्रयोग जावंक जाय असो प्रकार म्हळ्यार 'काणयो–गायनाचें संगीत.' अर्द पद्य आनी लयेंत येतलें अर्द गद्य, अशा स्वरूपांत पांच–

पांच, स–स वरां आनी केन्ना केन्ना पुराय रातभर म्हौंवाळ सुरांनी आसमंत भारावन घालपी हो संगीत प्रकार. हो प्रकार महाराष्ट्रांत आज लौकीक प्रकार म्हणून घोळणुकेंत आशिल्ल्या पोवाड्याचे धर्तीचेर सादर केल्लो दिसता. एक मुखेल गायक आनी ताका दोनांपरस चड 'सुरांवपी' वा 'साथीदार' हांगा आसतात. केन्ना साथीक घुमट आसता तर केन्ना कंठांतले सूरच गायनाची तेंगशी गांठ्तात.

विशेश प्राविण्य आशिल्लेच लोक सादर करूंक शकतात अशा कंठ–वाद्य संगीत प्रकारांमदीं गोंयांत 'बनवड गायन', 'गोड्डें रामायण', 'गुडुलो गितां', 'रणमाल्यांतलीं गितां', 'जागरांतल्यो होंवयो' अशे कांय प्रकार मेळटात. हांगा गितांच्या सांगाताक घुमट आनी कांसाळें हीं दोन वाद्यां मुखेलपणान वाजयतात.

दादल्यांच्या हौशीकंठ–वाद्य संगितामदीं शिगम्याच्या उत्सवावेळार सादर करपाचे 'चौरंग', 'ताळ' आनी 'दुलपद' हे तीन प्रकार येतात. हांतले 'ताळ' आनी 'दुलपद' हे उडटे. तांच्या गितांच्या सांगाताक धोल–ताशांचें वाजप आसता, जाल्यार 'चौरंग' (जत) हो थंड गतीन चलपी प्रकार, ताच्या सांगाताक ताळ–झांजेचें वाजप वाजयतात.

'धिंणलो' ह्या राखण्याच्या उत्सवावेळार कांय गितां गायिल्लीं मेळटात. हांतलें संगीतय हें दुलपद – ताळा सारकें मोडवें आनी उडटें आसलें तरी तें थोडेशें भावार्थी आनी शिश्ट वृत्तीचें.

गोंयांत अवतरिल्ल्या किरिस्तांव धर्माचो प्रभाव हांगाच्या लोकसंगिताचेरूय जाल्लो आसा, जांतल्यान किरिस्तांव बायलांचें 'धालो' आनी 'इंत्रूज' तशेंच 'मुसळ–गीत' प्रकार जल्माक आयल्यात. जांच्या सांगाताक घुमट–कांसाळें सदांच वापरिल्लें दिसता.

देशी आनी पश्चिमी ह्या दोन प्रकारांच्या समन्वयांतल्यान 'मांडो', 'दुलपद' आनी 'देखणी' हे तीन संगीत प्रकार गोंयच्या क्रिस्ती समाजांत जल्माक आयल्यात. हे खरे 'लौकीक' प्रकार. पूण आदल्या कांय अभ्यासकांक लोकसंगीत प्रकाराची व्याख्या सारकी स्पश्ट जाल्ली नाशिल्यान तांणी तांकां लोकसंगीत प्रकार म्हण उल्लखलें आनी तें मान्यतायेक पावलें, पूण हे प्रकार तांच्या खाशेलेपणाक लागून लोकांक आकर्शीत करतात आसले तरी ते पुरायपणान लोकसंगिताचे फास्केंत येनात.

वाद्य–संगिताचे दोन लौकीक प्रकार हिन्दू दादल्यांमदीं घोळटिकेक आसात, तें म्हळ्यार ‘सुंवारी वादन’ आनी ‘चौघुडो वादन’. नगारो, शेनाय, सूर्त आनी कांसाळ्यांच्या एकवटान चौघुडो संगीत जल्मता जाल्यार शामेळ, शेनाय, कांसाळे, हातपेटी हांच्या मेळान सुंवारी आकार घेता.

गोंयांत चार प्रकारचीं लोकवाद्यां घोळणुकेंत आशिल्लीं मेळटात :

(अ) अवनद्ध वाद्य (Membraphonic Instruments)

घुमट, म्हादाळें, शामेळ, जोडशामेळ, तासो, धोल, धोलकें, घूम, चौघुडो, डमरू, मृदंग, पखवाज.

(आ) घनवाद्य (Idiolphonic Instruments) :

कासाळें, ताळ, झांज, जगांट, घांट.

(इ) सुशीर वाद्य (Aerophonic Instruments):

कोन्नो, बांको, शींग, सूर्त, शेनाय, सुरपावो, नागशेर, पुंगी, शंख

(ई) तंतूवाद्य (Chardophonic Instruments)

एकतारी, सारंगी, गितार (लौकीक वाद्य)

लोकसंगीत हें सामान्याक आपलेंशें दिसता. भौसाक आपले वटेन आकर्शीत करपाची ताचेभितर तांक आसता. तातूंत कलात्मक आनी सुंदरकायेचे जायतेच घटक वावुरतात. एका काळार ह्या संगितान समाजमनाक पुराय भारावन दवरिल्लें हें जाणून पाश्चात्य देशांनी लोकसंगितांतले कांय लोकप्रिय प्रकार नव्या संगीतप्रकारांनी हाडपाचे प्रयोग मोव्या प्रमाणार जाल्यात. भारतांतल्या हेर वाठारांनीय जाल्यात. गोंयांत अशे नदरेन वावराक निकतीच सुरवात जाल्या. ह्या वावराक नेट येवपाची गरज आसा. हांतल्यान दोन गजाली घडटल्यो. एक म्हळ्यार, लोकसंगिताचें म्हत्व आनी ओड नवे पिळगेमदीं वाडीक लागतली. दुसरें, शारीकरण आनी सुदारणेच्या नांवाखाला लोकवेदाच्या हेर प्रकारांवांगडा लोकसंगीतय जें शेणत वचूंक लागलां, तांतलें थोडें तरी ह्या नव्या प्रयोगांच्या आदारान सांबाळून उरूंक पावतलें.

*********

# “गा आमी राखणे” तीन दसकां उपरांत

– माधव बोरकार, गोवा

कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत विसाव्या शतमानाचें सातवें दशक हें खूब म्हत्वाचें. कोंकणी साहित्यांत एके नवे पिळगेच्या उदेवाचो हो काळ. गोंय मुक्ती उपरांत एका दशकाचो काळ हो कितल्याश्याच कारणांक लागून म्हत्वाचो थारता. ह्या काळांत एके नव्या समाज वेवस्थेची घडी बसताली. समाज आरतो परतो जातालो. ताका लागून नवीं मूल्यां, पोरण्या मुल्यांची सुवात घेतालीं. शेंकड्यांचे शेंकडे चेपून दुबळ्या घटकांक घटाय आयिल्ली. मेकळो स्वास घेतां घेतां तांकां आपलो असो कंठ फुटलो आनी मनाचेर कसलेंच चेंपण दवरी नास्ताना ते आपले हावेस उत्फरके उक्तेपणान व्यक्त करपाक लागले. हाचें एक मुखेल कारण म्हणल्यार तांकां आपली निजाची भास अभिव्यक्ती खातीर मेळ्ळी. हें सत कोणाकूच न्हयकारूंक मेळपाचें ना.

ज्या काळाचो हांवें उल्लेख केला ताची फाटभूंय लक्षांत दवरून पुंडलीक नायकाचो ‘गा आमी राखणे’ हो कविता संग्रह वाचपाक जाय. ह्या संग्रहांत १९७० ते १९७६ ह्या काळखंडांत बरयिल्ल्यो कविता आस्पावतात. ह्याच काळाच्या कुडक्यांत रमेश भगवंत वेळुस्कार, प्रकाश पडगांवकार आनी खासा हांवें कांय म्हत्वाचो कविता बरयल्यो. नागेश करमली हो तसो ते आदले पिळगेंतलो. पूण ह्याच काळांत तांच्यो कविता नवें रूप घेवन येता अशें बारीकसाणीन नियाळ करीत जाल्यार दिसतलें. ह्या कविंनी कोंकणी कविता मुखावेल्या पेण्यार व्हरून दवल्ली अशें खात्रीन म्हणूं येता. ह्या कवीं मदलो पुंडलीकूच कवितेचो हात सोडून फुडें गेलो. कथा, कादंबरी, नाटकां आनी हेर तरेचें साहित्य ताणे नेटान बरयलें. तरी ताचे भितरलो कवी ह्या साहित्य प्रकारांनी झळकल्लो दिस्ता. ह्या संदर्भांत ताची तुळा करपाचीच जाल्यार चीं. त्र्यं. खानोलकर ह्या प्रकृतीन मराठी प्रतिभावंत लेखकाकडेन करपाक येता. पुंडलीक आनी खानोलकर हे मूळ कालेतीन कवी. खानोलकरांचीं कांय नाटकां, कादंबऱ्यो वाचतना कवितेची अनुभूती येता. पुंडलीकाची कथा, नाटकां वाचताना ते अणभव आयले बगर रावना. मदीं ताची कविता ताचेर, रुसून, आशिल्ली अशें खासा कविच आमकां सांगता. आतां तो तिची होरावणी करता. पुण ती ताचेर फावो तितली प्रसन्न जाल्ली दिसना. तिचो शीण उणो जावंक ना. मदल्या काळांत तिचेकडेन आडनदर केल्ल्यान आसत.

१९७६ वर्सा उजवाडा आयिल्लो हो संग्रह सुमार चार दशकां उपरांत परत वाचतना ताचीं कांय वैशिश्ट्यां लक्षांत येतात. हो कवी तेन्ना विशिच्या हुमऱ्यार उबो आसा. पयलीं पयलीं पावलां मारपाचो हो काळ. सामान्यतायेन ह्या काळांत बरयल्ले कवितांक आपलो असो सूर नासता. आपलें व्यक्तीमत्व घडोवपाच्या यत्नांत तो दुसऱ्या कविंचीं उतरावळ, आशय, प्रतिमा बी उश्णी घेवन आपले कवितेचें मखर सजयता. काळ वता तसो ताका आपलो सूर सांपडटा आनी ताची कविता आपल्या पांयार घट्ट उबी रावता. हे प्रक्रियेक कितलीं वर्सां लागत हें सांगण कठीण. शंकर रामाणी सारकिल्ल्या कविक आपलो सूर मेळपाक वीस तें पंचवीस वर्सां वाट पळोवची पडली. ताची हांगा याद जाता. पूण पुंडलीकाची कविता सुरवेसावन सगळ्या प्रभावां पसून कडेक रावली हें तिचें खाशेलेंपण. ताका ताची वळख पयलेंच चांटेक मेळ्ळी आनी ती व्हडा आत्मविश्वासान पावलां घालपाक लागलीं.

'म्हजो बांगर बैल,' 'आमी कोण' सारकिल्ल्या कवितांक लागून ह्या कविचेर सामाजीक आशयाचो कवी असो छाप ताच्या कपलार बसलो. दुबावाविरयत ताचे कवितेंत ती खरसाण आसाच. पूण तेच वांगडा खूब नाजूक तरल संवेदना व्यक्त करपी कविताय पुंडलीकान बरयल्यात ताचे कडेन आमची आडनदर जाल्या. अशे कवितांचो गंभीरतायेन विचार जावपाची गरज आसा. 'म्हजो बांगर बैल' ही ताची एक म्हत्वाची कविता. फकत ताचीच न्हय तर वट्ट कोंकणी कवितेचो विचार करतना तिका खूब वयली सुवात दिवची पडटा. ताका कारणांय कितलिशींच आसात. (कांय वर्सां आदीं मराठी कवी वसंत सावंत हाणे आपली बैल ही कविता पणजी जाल्ल्या एका कवी सममेलनांत पुंडलीका बराबर वाचिल्ली आनी ह्या दोनूय कवितांची तुळा करपाची संद मेळिल्ली ताची हांगा याद जाता). बैलाक प्रतीकात्मक अर्थ आसा. शेती प्रधान संस्कृतायेचो तो एक महत्वाचो घटक. गाय आनी बैला बगर हे संस्कृतायेचो विचार करप जमना. बांगर बैल हें एक शक्तिचें प्रतीक आसा. पुंडलीकाचे कवितेंत बैल शक्तिच्या प्रतीकाच्या रूपांत येता. हो निखटो बैल न्हय तर बांगर हें विशेशण ताका आसा. आनी हें विशेशण शक्त आनी ऊर्जा सुचयता आनी ह्या प्रतीकाक वेगळ्या अर्थाचें परिमाण लाबता.

एका बांगर बैलान
आतांच दावें तोडलां
गवण मोडून
भल्ल्या गोठ्यांतल्यान...

कवितेचे सुर्वेकूच कवी तार सप्त्कांतलो षड्ज लायता. दावें तोडप हे क्रियेंत ताची शक्त आनी जुवानपण आस्पावलां. भल्ल्या गोथ्यांतल्यान तो भायर सरता. ताका कोण आडावपी ना. ताचो मुखावेलो प्रवास पळयल्यार ताका कोण आडावंक शकना म्हणपाचें दिस्ता. ते परसूय ताका आडावपाची कोणा भितर तांक ना. ताची शक्त एदी की तो उबी दोंड हुपून रूखा-झोपां माड्डीत मुखार वता. तो कोणाक बदना. वाटेर आडवो आयिल्ल्याक तो आयकना म्हणपाचें शिंगार रगत माखयलें, कपलार तिबे सोबयले हे वळिंतल्यान स्पश्ट जाता. ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार हो बांगर बैल शिरेर मदेल्लो आनी देखून तो धेंकर गाजयता आनी आपल्या अस्तित्वाची जाणीव सगळ्यांक करून दिता. ताचें फुडलें पावल ताणे पागो बदलप, आपले मानेवयलें जूं शेंवटावप, नांगर-गुटे मोडप. तो किरय किरयता आनी घट थंय जिरयता. हे वळिंतल्यान ताचे तांकिची कल्पना येता. तो मोव माती सोदीना. ताका आपलो पराक्रम दाखोवपाक घट्ट भूंय जाय.

कासऱ्या कानयेक बदना
बैल चेचूंक जमना
बैल विकूंक फावना

देखून कवी म्हणटा बैलाक किरोंवदी आनी जाय तसो मिरोंवदी. कित्याक तर ताका पासांत बांदप आतां कोणाच्याच हातांत उरूंक ना. तो आतां कोणाक आयकुपाचो ना आनी कोणाकूच आटापा येवचेलो ना. हे वळिंचे फाटभुंयेर मुखार आयिल्ल्या चार वळींक विशेश अशें म्हत्व आसा.

बैल फुडल्या पाडव्या येंवचोना
पुजे खातीर तिश्टचोना
जाय तसो जाय तेन्ना येतलो
शिंगां दाखोवन पुजून घेतलो.

बांगर बैलाची ही वृत्ती प्रवृत्ती हे वळिंतल्यान बेसबरी व्यक्त जाल्या. शिंगां दाखोवन पुजून घेवप म्हळ्यार आपलो अधिकार तो हाची जाणविकाय करून दाखोवप. हो बैल सादो न्हय. तर-

बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उद्धारी
बैल म्हज्या कुळाचो वारस.

अशें म्हणपाचो शिमे भायलो आत्मविश्वास हांगा दिस्ता. हे म्हत्वाचे कवितेकडेन आनी एका कोनांतल्यान पळोंव येता. मराठी कवितेंत केशवसुताच्या 'नवा शिपाई' त हो बांगर बैल वेगळ्या रूपांत दिस्ता. ती

कविता नागरी संस्कृतायेची फाटभूंय घेवन आयिल्ली. तर पुंडलीकाची अस्सल गांवगिरी. गोंयच्या संदर्भांत हे कवितेक विशेश असो अर्थ आसा. र.वी. पंडितान सामाजीक आशयाची कविता बरयली. ताचे कवितेंतलो गावडो, भाटकाराल्या सत्यनारायणातलो देमू वा झिंगचे झिंगय मदले आगरी हे समाजवेवस्थेचो जुल्म सोंसपी. तांकां आपलो आवाज ना. देमू दीसभर भाटकारा खातीर वावुरता आनी दिसा आखेर ताच्या हातार फकत एक प्रसादाचो दोणो पडटा. गावडो आपल्याक कांडून घेवपी पिठो जायसर, आपलो घाम वारोवनूय आगऱ्यांचें मीठ आळणीच उरता. सगळे तरेचो जुलूम सोंसप हें एकूच तांच्या हातांत आस्ता. सगळे नदरेन ते फटवल्ले उरतात. हो इतिहास गोंय मुक्ती पयलिंचो. पंडिताची कविता त्या काळाचें दर्शन घडयता. गोंय मुक्ती उपरांत समाज कसो बदलतलो हांची पयली सुलूस 'जागी जाल्या गोंयची सासाय' हे बाकिबाब बोरकराले कवितेंत मेळटा. बैल कोणा खातीर तिश्टचो ना आनी शिंगा दाखोवन पुजून घेतलो म्हणपाचें भविश्य हे कवितेंत केल्लें मेळटा. बांगर बैल ही कविता सासायेचें मुखार पडिल्लें पावल अशें म्हणूंयेता. एके नदरेन पळयल्यार बाकिबाबाक फुडाराचो दिश्टावो जाल्लो अशें म्हणपाक जाय.

'म्हजो बांगर बैल' ही कविता प्रथम पुरुशी. अशें जरी आसलें तरीय तो बैल तळागाळांतल्या भौसाचे उत्फरके, हावेस व्यक्त करता. हे कवितेचें मुखावेलें पावल म्हळ्यार 'आमी कोण' ही कविता. हांगा ती प्रथम पुरुशी वचनांतल्यान भौवचनांत येता.

आमी कोण...
हाची जाप तुमकां काळूच दितलो
अशें आमी म्हणचेनात
ती आमीच दितले.

सामान्यतायेन आमी काळूच जाप दितलो वा काळूच थारायतलो अशें म्हणटात. पूण हांगा काळ म्हणचे कोण? असो प्रस्न उबो रावता. हो काळ म्हणजे दुसरो तिसरो कोण न्हय तर ते आमीच अशीच ती जाप. शेंकड्याचे शेंकडे सगळे तरेचे त्रास, हाल अपेश्टा ह्या समाजान सोंसल्यात. ताची जाप मेळपाक आनीक वाट पळोवपाची तांची इत्सा वा तयारी ना. ते काळाक आपले मुठींत घट्ट धरूंक सोदतात.

आमी, आमी न्हय जाल्यार
काडोन वतले
आमचें नांव निशाण
आमच्याच हातांनी धूवन उडयतले.

वर्सां संखिणी ताणी जें सोसलां तें सगळें उतरां पलतडचें आसा. वेदनेचो आख्खो दर्या तांणी पिंवन उडयला. ताणी मातियेकडेन इमान घाण दवरूंक ना वा निखटे वाडवड़लांच्या पराक्रमांचेर जियेवपी तिब्या धनीय न्हय. तांचे स्वतंत्र अस्मितायेची भावना दर एके वळिंतल्यान विस्तारत वता आनी ती assertive जाता. ते परधिगे न्हय ही खर जाणीव ते हांगा व्यक्त करतात. अन्याय मोन्यांनी सोंसलो तरी ह्या समाजमनांतल्यान क्षमेची भावनाच उसळून भायर येता. ताचें कारण आनी जाप मेळटा ती अशी–

खऱ्यानीच सांगतां
थाव लागनाशिल्ल्या
ह्या अथांग काळजांत
सुडाची किटाळूय उसळना.

हें सगळें दुख्ख अन्याय सोंसप आंग्वळणी पडलां म्हूण? खूब फावट अणभवान मनाची एक ठेवण जाता. हांगा कवी ताची विस्कटावणी करता.

आमच्या जल्मा वेळार
आवयच्या वेणांचें आंगलें
आमी आंगांत घातलां म्हणून जायत...
ह्या संवसारांत येतनाच
खोपिच्या बुराकांतसून
सुयोचें बिंब
आमच्या दोळ्यांत भिडलें
म्हूण जायत...

हे कवितेक खूब कारणांक लागून म्हत्व आसा. निग्रो वा भारतीय दलित कवितेंत एके तरेचो विद्रोही सूर आयकुपाक येता आनी खूब फावट तो आयकताना कानाक दडे बसतात हें मान्य करपाक जाय. हो सूर कलाकृतिच्या रूपकाराक बादा हाडटा. ती ऱ्हेटोरिकल जाता आनी मनांतल्यान देंवता. इतलें शिमे भायलें सोंसून लेगीत सुडाची किटाळ उसळना तें दुबळेपणाक लागून न्हय तर तांचें काळीज अथांग आसा हें विसरूंक फावना. असो आशय आशिल्ली कविता थोडी नाटकी जावपाची शक्यताय आस्ता. केन्ना केन्ना अतिशयोक्तिचो ती आलाशिरो घेता. पूण पुंडलीकाची ही कविता असल्या दोशांपसून पयस आसा. कवी परिस्थिती वा समाज वेवस्थेचेर, इतिहासाचेर कसलेंच भाश्य करिना. फकत काळाचें चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें करून ताचेर भाश्य करपाचें आमचेर

सोडून दिता आनी आमकां विचार करपाक लायता.

समाजांत परिवर्तन जावपाक जाय. नाडिल्ले आनी नाडपी अश्यो ज्यो दोन जाती आमचे मदीं आसात त्यो ना जावपा खातीर कवी वथ्रेता. पालखेक खांद मारून तिचो भार आपल्या भुजांर घेवप्यांक मात ते पालखेंत केन्नांच बसूंक मेळना हें वास्तव ताच्या काळजाक तोंपता. जे कश्ट काडटात तांकां ताचें फळ खावपाक मेळना. ताचें स्रय आनी कोण दुसरोच हातासून बसता हाची खंत आनी किंवाटो हो कवी व्यक्त करता. फकत भौसानूच हो भार कित्याक उखलचो? पालखेक येवकार दिवपाक 'मळबभेदी' कोंड्यांनीच आवुळिल्ली तोरणा आसात. 'ही पालखी भितर घेयात' हे कवितेंत तो भौसाक सांगता की तांच्याच खांद्यार ताणी मळब तोलिल्लें आसा आनी तांची पुण्याय हीच खरी मंदिराची सोबाय आनी कळसाची बुन्याद. आनी मागीर मुखावेले वळिनी ताणे दिल्ली गरभित शिटकावणी आयकुपाक येता:

दारावयल्या जाळवणदारांनो
हांवें तुमकां मेजून घेतल्या
हांवें तुमकां तिजून घेतल्या
तुमचीं घरां पळोवन घेतल्या
नांगर–फाळ पाजून घेतला
हांव ही तांबडी घुडी नाचयतां...
ह्या भुजांच्या कोळांत
हो रगताचो आवाज
तुमकां आयकूंक येना?

(हे वळिंनी मेजून, तिजून, पाजून सार्किल्लीं अंतरयमळां आपसूक जुळून आयल्यांत. तांचे कडेन लक्ष वेधीन दिस्ता). भुजांच्या कोळांतलो रगताचो आवाज ही स्फोट करपाक दारू भरिल्ल्यो ओळी कलात्मकता सादून आयल्यात. खंयच्याय अन्यायाक एक शीम आस्ता. देखून फुगार जाल्ले न्हंयचो अंत पळोवचो न्हय. ती केन्ना तडी हुपून सर्वनाश करीत हें सांगपाक येना. देखून काळ, वेळ पारखून पावल उखल्पाखातीर कवी आमकां सांगता. आनी अळेर–

उठात
आतां मानो वयर करून पळेयात
थंय सर्गार कोणाल्या कितल्या
कुळांचो उद्धार जाला

कवीक आतां कोणाची आनी कसलीच वाट पळोवचेली ना. कितलो काळ आनी शेंकडे ही वाट पळोवचेली? देखून तो स्पश्ट शब्दांनी सांगता–

असल्या काळखांत
सुर्याची वाट पळयत
आमी तिश्टुंचे नात,
मनगटार मनगट घासून
केंण पडले बगर
बापायचें श्राद्ध वाडचेनात
पेटिल्ल्याचो गोबोर जाता
सत हें मानुनूय
पेटले बगर रांवचेनात.
... आमच्या रगतांतलो थेंबान थेंब
तिजून घेयात
(पेटप रगतांतल्यान)

पुंडलिकाचे कवितेंत विद्रोही सूर व्यक्त जातो तो रगत हे प्रतिमेंतल्यान. हो कवी निखटो आपले खातीर उलयना तर एकूण समाजाच्या व्यथा उमाळ्यांक उतरांचें रूप दिता. ताचे कवितेंतलो हांव खंयच संदिग्ध उरना. आशय आडवाटेन व्यक्त करप ताका मानवता. देखून ह्यो सामाजीक आशयाच्यो कविता संवेदनशील मनाचो थाव घेता. अन्यायाविशिंची जाणविकाय करून दिवपाची विलक्षण तांक तिचे भितर आसा.

सामाजीक आशय कोंकणी कवितेक अनवळखी न्हय. अशें आसलें तरी पुंडलीकाची कविता आनी ताच्या पूर्वसुरींनी बरयल्ले कवितेंत मुळावो फरक आसा. पुंडलीकाचे कवितेंत व्यक्त जाल्लो अणभव खासा ताणे घेतिल्लो. भौसांतल्या उदेवाक आयिल्लो हो कवी. आपणे अणभविल्ल्या विश्वाक ताणे शब्द रूप दिलां. ताका लागून ह्या कवितांतली खरसाण जाणवता. हो उद्‌गार ताच्या ओठांतल्यान येवंक ना तर तो काळजाच्या तळांतल्यान फुटला. ताका लागून तिका एकेतरेची जिवसाण आसा. धवाड्या वर्गांतल्यान जे कवी आयल्यात तांचे कवितेंतलो तांणी घेतिल्लो न्हय, तर पळोवन, कल्पनेन घेतिल्लो. ताका लागून परिणामाचे नदरेन ती उणी दिस्ता. तांचे मोल उणे करपाचो म्हजो हेत न्हय. पूण मुळावो असो फरक उरताच. मराठी वा हेर भारतीय भासांनी एका काळार धवाड्या वर्गांतल्या लेखक, कविंनी चेपिल्ल्या, चिड्डुल्ल्या समाजाचीं दुख्खां साहित्यांत

मांडलीं. पूण जेन्ना हो समाज शिकून वयर सल्लो आनी आपले अणभव आपल्या उतरांनी बरोवंक लागलो तेन्ना तांचें खरें विश्व संवसारा मुखार आयलें. 'बलुतं' सारकिली साहित्यकृती फकत त्या अणभवांतल्यान गेल्लो दया पवारूच बरोवंक शकता. पुंडलीकाचे बाबतींत तेंच म्हणचें पडटलें. साहित्याचें समाजशास्त्र आस्ता. ते नदरेंतल्यान कोंकणी साहित्याचो अभ्यास जावपाची गरज आसा.

कवी म्हण पुंडलीकाचे कवितेक एक तांस आसा. तें म्हळ्यार सैमाचें. हो सैम शारांतलो न्हय तर तो गांवगिऱ्या वाठारांतलो. तिका नागरी संस्कृतायेचो वास ना. ज्या वाठारांत हो कवी ल्हानाचो व्हड जाला तो सैम संपन्न असो भाग आसा. आनी ताचो खोल परिणाम ताचे चित्तवृत्तिचेर जावप हेंय सभाविक आसा. खूब फावट कवितेंत सैम येता तो वरणनात्मक रूप घेवन. अशे कवितेंत सैमांतल्या चित्रांचे तपशील येवपाची शक्यताय चड आस्ता. वस्तिंची जंत्रीच वाचिल्ल्याचो अणभव अशी कविता दिता. ताका लागून तिचें कलात्मक रूप शेणटा. अस्सल सैम कवितेंत अणभव गोठेल्लो आसता. इंगलिष रॉमेंटिक कवी विलियम वर्डस्वर्थ हाच्यो कविता ते नदरेन अभ्यासपाक जाय. सैम ही एक सामान्यां भायली शक्त म्हूण ताणे सैमाकडेन पळेयलें. आमची घरची देख रवींद्रनाथ ठागोरामदीं मेळटा. सैमान तांकां अध्यात्मिक अणभव दिलो. आनी तातूंतल्यान तांची कविता आकाराक आयली. बाकी बाबाल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो सैम कविता अंती अध्यात्माकडेन वतात. कांय फावट प्रेम आनी सैम हांचो सुमेळ कवितेंत जाल्लो दिस्ता. पुंडलीकाची कविता कांय कडेन तोच अणभव दिता.

सांजवेळ... दर्यावेळ
धव्या ल्हारां मोगऱ्यांपटी
खोप्यांत माळून यो गो भेटी

हे त्रिपदींत वेंचीक उतरांनी चित्र काडलां. धव्या ल्हारांची मोगऱ्यां पटये कडेन केल्ली तुळा दोळ्यांमुखार स्त्री प्रतिमा उबी करता. अमूर्तातल्यान मूर्ताकडेन ती प्रवास करता. हे त्रिपदिच्या संदर्भांत तिची तुळा लक्ष्मण पै ह्या नामनेच्या गोंयकार चित्रकाराच्या चित्रांकडेन करपाचो मोह जाता. ताच्या सैम चित्रांतल्यान स्त्री प्रतिमा उबी जाता.

चुडटांच्या आंगा-पांगा
थर्थरलीं ल्हारां
फुटलें हड्डें दर्याचें
तीन्सांजच्या पारा...

उरफाट्या पावलांच्यो
लांब लांब सांवळ्यो
शकारिल्ल्या मनां
थेंब्या थेंब्या पोंवल्यो... (सांवळ्यो)

वाऱ्यान थर्थर्पी चुडटां मदीं ल्हारांचो भास जाता आनी वेळूय सांजेवेळची. सुरयो अस्तमतना उरफाट्या पावलांच्यो लांबूच लांब सावळ्यो पडूंक लागतात. अशी ही मनाक कातर करपी वेळ, ही असली मनाची अवस्था कवी अचूक उतरांनी चित्रायता.

पुंडलीकाची 'बळारी' ही अशीच आनीक एक सुंदर आनी अर्थ्पूर्ण कविता.

पारदिकाच्या
देंठा पावलांच्यो
बळारी अश्यो बटमोग्री
सूर्य अस्तमतना
दर्याच्या गळ्यां
धवी फुल्ल माळ पिड्डुकांची

पुनवेचीं रूपां
दडकावलीं ल्हारां–खोपां
मळबांत नातीं पडबिंबलीं

शिणलेलीं पाखां
निस्ततलीं आतां
नक्षिदार सपना पावलां पैस गांवा

कवितेंत तुळा आनी उपमां दोनांचोय प्रभावी उपेग केल्लो दिस्ता. ताची विस्कटावणी अशी करूंयेता–

१. बळारी– पारदिकाचे देणपावलां– बळारी – बटमोग्री.

२. बळारी– दऱ्यावयल्यान उडत वचपी बळारिंची माळ– पिड्डुकांची.

३. बळारी– दडकावपी ल्हारां खोपां – तातूंत मळबाचें पडबींब.

४. बळारी–पावलां नक्षिदार सपनां भशेन पैस गांवां वचपी.

हे कवितेंत बळारीचीं चार रूपां चार तरांची पळोवपाक मेळटा. पारदिकाची देठां पावलां, दर्याच्या गळयांतली पिड्डुकांची माळ, दडकावल्लीं

ल्हारां-खोपां पडबिंबीत जावपी ह्यो सगळ्यो मूर्त प्रतिमा कवी हांगा गुंथता. पूण निमाण्या कडव्यांत बळारी नक्षिदार सपनां पावलांनी पयस गांवां पावता थंय अमूर्त प्रतिमा येता. मूर्त आनी अमूर्त प्रतिमा हांचो अर्थपूर्ण सुमेळ हांगा सादिल्लो दिस्ता. हे कवितेक आनी एक परिमाण आसा. तें म्हळ्यार चित्रांचें बारकायेन हे कवितेकडेन पळयल्यार तातूंत चार लँडस्केप आस्पावल्ले दिसतात. आनी निमाणे वळिंतल्यो प्रतिमा नाजूक तरल भाव-अळंगपणान व्यक्त करतात. ताका लागून हे कवितेक अर्थाची खोलाय आयल्या. चित्राचो हो घटक पुंडलीकाचे कवितेंत हांगा थंय शिंपडिल्लो दिस्ता. मुखावेले दोन वळिंची देख दिव्ंयेता.

पणसा-पानां गोरवां

पडवेंतल्या रानां

एका काळावेलें हें चित्र आज पळोवपाक मेळना. आज गांवगिरो वाठार बदलत आसा आनी तेच वांगडा सामाजीक परयावरण मुळासावन बदल्लां. हे दोन वळिंतल्यान एक ठाशीव अशी प्रतिमा उबी जाता. काळाच्या फाटीं गेल्यार बाकिबाबाल्या 'चिमणेजग्त' हे कवितेंत वापरिल्ल्या पणसाच्या पानांच्या गोरवांचे प्रतिमेची याद जाता. हरशीं ह्यो दोनूय कविता एकमेकां पसून वेगळ्यो. हे एकेच प्रतिमे पुरतोच तांचो संबंद दाखोंवयेता.

पुंडलीकान प्रेमभावना व्यक्त करपी कविता बरयल्यात तांचो विचार करपाची गरज आसा. ही प्रेमभावना वेग्वेगळी आसा.

बसलां तुजी वाट पळयत

केन्ना उदेतलें...

अस्तमतेचे रंग

पोल्यार तुज्या घोटयत.

अशे तिचे भेटे खातीर तिश्टुपी. आपलें आनी तिचें कितें हाचो अर्थ लावपाचो तो यत्न करता. तेन्ना ताका तें जोगलावल्लें दिठयेचें कशें दिस्ता. रात पांगळी जाता आनी वात सोंपता सोपना अशी. प्रीत तरी कशी. ती दिठये मिठयेंत धरना आनी तिची व्यापतीच थाव लागना अशी. अमुरपिक्या प्रेमाची भावना आनी संवेदना चडावत कविता उक्तायता. काळजांत किल्लून आयिल्ले रोपियेक आंकुर फुटपाची वाट तो पळयता.

तुज्या येवपाक अर्थ आसा

चट्व्या कांठाचो

तुज्या रावपाक सोपूत आसा

तुट्व्या देंठाचो

नात्याचो हो देंठ तुटत हाचो ताका हुसको आसा. थोडी विरहाच्या दुखाची सया हे वळींक आसा, तिका समजावणेच्या सुरांत तिणे कित्याक येवचें तें सांगता. ती आयल्यार बचकभर आबोल्यांकूय गंध भरतलो. तशें पळयल्यार आबोल्यांक वास नासता. देखुनूच विरोधाभासांतल्यान ही भावना तीवऱतायेन व्यक्त जाता. हे प्रतिमेचो अर्थपूर्ण असो वापर हांगा जाल्लो दिस्ता.

'पोसोभर चान्न्यातय– खळें भरत' ह्यो वळीय तितल्योच भावनेक तोंक हाडपी.

तुज्या येवपांत पैसावत्या अंतराच्यो
कुरवो आसत–
तरी तूँ यो
कारण
तुज्या येवपाक अर्थ आसा
तुज्या रावपाक सोपूत आसा...

तो तिचेखातीर कितलोय वथ्रेलो तरी ती येना. तातूंतल्यान 'तूं आयलें ना' ही कविता आयल्या. ती कित्याक आयलिना हाची वेग्वेगळीं कारणा तो सोदता. उतराक जागप ना ह्या एका कारणा वांगडा अनिकूय अव्यक्त कारणां आसात. तो तिची वाट कितलो अधीर जावन पळयतालो हें सांगतना तो तिका सांगता–

भल्ल्या कळशांत रंगहीन पाण्याची थर्थर
तुवें पळयल्या?
सुक्या पानांर झडटल्या दंवाच्या पावलाक
तुवें केन्ना कान दिला?
खदखदत्या आदनावयल्या धांपणाची अवस्था
तुवें अणभवल्या?

हे वळिंनी आयिल्ल्यो प्रतिमां पळयात. रंगहीन पाण्याची थर्थर, दंवाचे पावल, खदखदपी आदन ह्यो प्रतिमा मनो–अवस्था सुचोवपी. आनी ह्या प्रतिमांतल्या एक्सुरपणाची भावना विस्तारत वता. ती येवचेली हें घडिये कविक खबर आसुंये. तरी तो आपल्या मनाक समजयता आनी समाधान करून घेता.

येवपाचें आसूनूय तूं आयलें ना
हें एकेपरीन बरेंच जालें
तुज्या येवपाचें म्हत्व कळ्ळें.

'तुजें येवप' ही कविता आनी 'तूं आयलें ना' हे कवितेचें लागिंचें नातें आसा. पयले कवितेंतूच दुसरे कवितेचें बीँ पडिल्लें दिस्ता. तरीय ताका थाकाय दिवपी कविता 'तुजे पत्र पावलें' ही. तो जसो तिका वथ्रेता तीच थोडी भोव अवस्था तिची जाल्ली दिस्ता.

पिश्या,
अशें रडप नासता
धाय दिको पेटल्यात म्हूण?
सांज भांगेत कुकूम भर्ततल्या
सूर्याक लेगीत
दीस सोंसचो पडटा...

ह्या तीनूय कवितांनी हो प्रेमानुभव घट्ट आळून आयला. ह्यो कविता एकेच व्यक्ती भोंवतणी घुंवता म्हणपाचें लक्षांत येता. हे कवितेंतलो नाजूक तरल भावाचो आविश्कार पळयल्यार 'म्हजो बांगर बैल' सार्किल्ली आवेश पूर्ण बंडखोरी कविता बरोवपी होच कवी काय, असो प्रस्न पडटा. हें कवी म्हूण पुंडलीकाचें खाशेलेंपण आनी यशूय.

ह्या संग्रहांतल्यो सगळ्यो कविता वाचतकच ताचें काव्यविश्व तीन केंद्रांनी वाटलां म्हणपाचें लक्षांत येता. म्हत्वाचें म्हळ्यार तीं एकामेकांक पोसवण दिवपी अशींच आसात. ताका लागून ती एकसुरी दिसना. सामाजीक आशयाची कविता वा प्रेम आनी सैम कविता एकाच पांवड्यार रावता. तांचो कस थारायताना दावें उजवें करपाक मेळना. साहित्याच्या मळार पुंडलीकान पावल दवरतनाच तें वयल्या पांवड्यार पडलां हाची नोंद कोंकणी कवितेचो इतिहास घेतलो. खंत एकेच गजालिची दिस्ता. तो थंय रावलो. घडये ताची ही कविता हेर साहित्य प्रकारांत झिर्पल्ली जाव्ंये.

पुंडलीक आमचो समकालीन. हो संग्रह उजवाडा आयलो तेन्ना आमी ते कवितेक लागिंच्यान पळयताले. ताका लागून तिचें खाशेलेंपण तिच्या गुणदोशां सयत पळोवपाची नदर आमकां नाशिल्ली. आतां काळाचें बरेंच अंतर पडलां. ताका लागून फाव त्या परिपेक्षांतल्यान (प्रोस्पेकटीव) पळोवप सोपें जालें. तिच्या आंगावेल्यान पस्तीस छत्तीस वर्सांचो काळ गेलो तरी तिची रसणाय आनी कांत देवंक ना...

*******

# भूतानची भोंवडी

– दिलीप बोरकार

पयलीं भुरगेपणार जेन्ना बालसाहित्य वाचतालों तेन्ना जादूची नगरी जावं असलेच तरेचें वर्णन आनी तसलींच अजापीत करपी घरांचीं चित्रां बी पुस्तकांनी पळयतालों. त्या वेळार आयचेवरी चित्रवाणी नाशिल्ली. ॲनिमेशन चित्रदर्शन नाशिल्लें. पुस्तकांत जें कितें वाचतां वो त्या काणयांच्या संदर्भांत चित्रकाराचे कल्पनेंतल्यान जीं कितें चित्रां छापिल्लीं आसतालीं तीं पळोवन आमची कल्पना आमी रंगयताले. तातूंतल्यान जें कितें आमचे तकलेंत रूप घेतालें तें सामकें अजापीत दिसपा सारकें आसतालें. भुरगेपणार काणयांच्या पुस्तकांनी जादुची नगरी पळयिल्ली तीच नगरी म्हळ्यार हें भूतान आनी चड करून हें थिम्पू शार अशें पयल्याच दर्शनान दिसले बगर रावलें ना.

थिम्पूक पावले म्हणपाचें कोणे कोणाक सांगपाची गरज नाशिल्ली. अमक्या वरांचेर पावतले अशें ड्रायव्हरान, गायडान आमकां सांगिल्लेंच. आमी कितले किलो मिटर आतां मेरेन सारल्यात आनी कितले किलो मिटर उरल्यात आसतले हाचो अदमासान हिशेब लायताले. आमकां बेगीन पावपाची घाई कसलीच नाशिल्ली. वचून तर हॉटेलांत घालून घेवपाचें! पूण म्हाका थिम्पू शारांत प्रवेश जाता तितलो उसरां जाल्लो जाय आशिल्लो. थिम्पू हें भूतानचें राजपाटन. तें देंगणांत वसयल्लें आसतलें, थिम्पू शारांत पावचे आदीं आमची बस थंयच्या दोंगरा माथ्यावेल्यान घुंवत घुंवत देंगणांत देंवतली हें नक्की. ह्या देंगणांतलें थिम्पू शार रातच्या वेळार, निदान झिळमिट्या उजवाडांत काय जायना लायटी पेट्टना कशें दिसता हाचो अणभव म्हाका घेवपाचो आशिल्लो.

रातचे वेळार उंचायेवेल्यान दिव्यांची आरास केल्लो हो वाठार दोळ्यांक एक वेगळीच खोस दिता. विमानांतल्यान प्रवास करतना हांव जनेलाच्या हारशांक नाक घासतां तें तेच पासत. हांगा थिम्पूक विमानतळ नाशिल्लो. भूतानाक देशांतर्गत विमानसेवा हालींच दोन वर्सां आदीं सुरू जाल्या म्हणपाचें आयकल्लें. पयलीं पारो हो एकूच आंतरराष्ट्रीय विमानतळ आशिल्लो. उपरांत भूतान सरकारान पर्यटकांच्या आकड्यावेली मर्यादा शिथील केली आनी जस जशे पर्यटक वाडूंक लागले तशी तांची येरादारी गरज वाडूंक लागली. सगळ्यांकूच रस्त्यावेल्यान भोंवडी करून एके

सुवातेवेल्यान दुसरे सुवातेर वचूंक वेळ खर्चूपाचो नासता.

तांचे नदरेक भूतानचें गिरेस्त सैम नियाळपाचें नासता. तांचें पर्यटन म्हळ्यार जंय मनीसवस्ती आसा थंयच! आनी भूतानाक तर मनीस वस्ती एक ह्या तेर्रार जाल्यार दुसरी त्या तेर्रार! ते पासत वेळेची बचत करूंक विमानसेवा जायच. तेच पासत भूतानाक डोमेस्टीक दोन विमानतळ आसात. एक मध्यवर्ती भूतानांत बुमथांग हांगचो बथिबालाथांग आनी दुसरो पूर्व भूतानांतल्या त्रासीगांग हांगचो योंगफुला विमानतळ. आमच्या गोंयांत सद्या दाबोळी आसा आनी दुसरो मोपा जावपाचो आसा. आमकां दाबोळेच्यान मोपा विमानान वचपाक मेळटलें काय खबर ना पूण हांगा पर्यटक विमानान प्रवास करतात. आमकां ताची गरज नाशिल्ली. विमाना परस चड बरे तरेन बसींतल्यानूच आमकां भूतानची राजधानी थिम्पू वेगवेगळ्या कोनांतल्यान, वेगवेगळे उंचायेवेल्यान पळोवंक मेळपाचें. पूण तें रातचें काय सांजवेळावेले धुंवटेंत तें खबर नाशिल्लें.

पहाडी वाठारांतल्यान रासवळ येरादारी वाहकांचे भोवतेक कांय नेम आसतात. तसो कायदोय आसूं येता! सूर्य अस्तमल्या उपरांत गाडी चलोवप ना. दिसाच्या दनपारच्या वेळारूच धुक्यांक लागून ज्या वाठारांत फुडलें कांय झळकना त्या वाठारांत रातचे वेळार गाडयो चलोवन कोणूच दुसऱ्याच्या आनी आपल्याय जिविताकडेन खेळपाचो ना. आमचे मदल्या भोवतेकांनीं गोंयांत हालीं हालीं पडूंक लागिल्ल्या धुक्याचो अणभव घेतलाच! बेळगांवच्यान गोंयांत येतना कळाव जालो जाल्यार आंबोले वा चोर्ला घाटांतल्या धुक्यांतल्यान प्रवास केलाच! पूण तो चुकून. भोवतेक लोक धुकें पडपी काळार हो प्रवास टाळटाच. भूतानाक तर थंयचे उंचायेक लागून वर्सांतले बाराय म्हयने धुकें! दिसाचें आनी रातीचेंय! तेच पासत हें हांगचें आयोजनूच अशें आसतलें,पर्यटक उजवाड पडचे आदीं आपल्या थळार पावतले!

बस दोंगर माथ्यावेल्यान सकयल देंवतना सकयल देंगणांत झळकता तें थिम्पू शार म्हणपाचो अदमास म्हाका आयिल्लो. देंगणांत एक न्हंय खळखळत व्हांवताली. ती थिम्पूच्यू न्हय. तिका वांगच्यू अशेंय दुसरें नांव आसा. ते न्हंयचे दोनय तडींचेर रंगरंगयाळ्यो पूण एकाच आकाराच्यो इमारती. दोंगरांचेर एका थारावीक उंचाये मेरेन घरां. विस्कळ विस्कळ. गोंयांत हालीं दोंगर दिसलो रे दिसलो, कापलीं झाडां आनी बांदल्यो इमारती जशें घडटा तसो प्रकार हांगा दिसना. गोंयांतले सगळे दोंगर आतां व्हडल्या व्हडल्या बिल्डिंगानी व्यापल्यात. दाट रानां बोडकीं करून थंयचे

दोंगर पोखरून मीन काडलें आमी आनी त्या दुडवांनी उरिल्ले दोंगर बोडके करून ते सुवातेर बिल्डींगो आनी घरां बांदलीं. दाबोळे-वास्कोचो वाठार पळयात, रेईश मागुश आनी वेरें बेतींचो टाटाचो प्रकल्प पळयात. न्यायालयांत पर्यावरण प्रेमीनी आव्हान दिवनूय टाटान ती केस जिकून आदले परस चड नेटान थंय काँक्रिटचें रान उबारलें. बांबोळेच्यो, शिरदोनच्यो दोंगुल्ल्यो पळयात, सोंसपाचें न्हय! पूण भूतानची दरेक इमारत, दरेक घर थंयच्या दोंगराळ वाठाराक सोबाय हाडपा पासतच बांदलां अशें दिसतालें! खंयच्याय कोनांतल्यान पळयल्यार दरेक फ्रेम म्हळ्यार एक आकर्शक चित्रूच म्हळ्यार जाता.

दोंगराळ वाठारांतल्यान देंगणांतल्या थिम्पू शारांत बस पावली तेन्ना आमच्या येवकाराक व्हडलें आर्क आशिल्लें. अयस पयस रस्ते आशिल्ले, विस्तिर्ण फोर लेनीचे ते रस्ते थिम्पू न्हंयचे देगेवेल्यान धांवताले. रस्त्यार खंयच फोंडकूल ना. रस्त्याच्या विभाजकांचे सुवातेर फुलांचीं झाडां, अस्तंते वेळावेल्या सूर्याचो खंयच्यान तरी झिरपून आयिल्लो हयन्हयसो संधी प्रकाश ते न्हंयचेर पडटालो, रस्त्याचेर झळकतालो आनी थंयचे दरेक इमारतीचेर, घराचेर निशेतालो आनी त्या एकंदर वातावरणाचो एकत्रीत परिणाम म्हूण ज्या थिम्पू शारांत आमी भितर सरिल्ले तें थिम्पू शार आरसाटे यौवनेवरी 'हे आनी कोण सोयरे काय?' हे भावमुद्रेन लजत लजत नदर भिरभिरायत आमचेकडेन पळयतालें.

भूतानचे रंगरंगयाळे राजधानींतलें, थिम्पूतलें एक सोबीत हॉटेल आमचे पासत आरक्षित केल्लें. यात्रिक ट्रॅवल्साचें म्हाका एक बरें दिसलें, हांवें आदीं सांगिल्लेवरी हे आदीं हांव खंयचेच ट्रॅवल एजन्सी मार्फत टुराक वचूंक ना. ताका लागून हांव हेर एजन्सी आनी यात्रिक हांची तुळा करूंक शकना. पूण टुराक वचचे आदीं तांच्या जाळवणदारांनी जें कितें कितें सांगिल्लें, ताचे परस तांचें आयोजन आनी वेवस्ता मात्शी चडूच आशिल्ली. सोदून लेगीत तक्रार करपाची संद ताणीं दवरूंक नाशिल्ली.

थिम्पूंतल्या हॉटेलांत रातच्या जेवणा वेळार आमकां आमच्या कुकाची करामत अणभवूंक मेळ्ळी. आयज डिनराक तुमकां गोंयचो पदार्थ मेळटलो अशी घोशणा दनपारच्या जेवणा वेळार जाल्ली. कितें जेवण आनी गोंयचो कसलो खाशेलो पदार्थ हाची कल्पना डिनराकूच येवपाची! हांगच्या हॉटेलांकडेन ह्या टुर आयोजकांची इश्टागत आसता. तशें पळोवंक गेल्यार भूतानच्या सगळ्या हॉटेलांत सगळ्यांक

एक सारकी वागणूक मेळटा. हांगा जेवणाची बुफे पध्दत आसता. गोंयांत वो हेर कडेन खंयीय गेल्यार एकट्या दुकट्याक आपल्याक जाय तें तांचो मेनूकार्ड पळोवन ऑर्डर दिवंक मेळटा. पूण हांगा भूतानाक म्हाका तशी पध्दत ना अशी दिसताली. निदान ह्या तारांकीत हॉटेलांत तरी ती नाशिल्ली. विदेशी लोकांक जावं देशी लोकांक जावं, तांकां पयशे भरले काय सगळ्यांक एकाच दर्जाचें जेवण मेळटा. सगळे तरेचे पदार्थ बुफे पध्दतीन मांडून दवरतात आनी मागीर गिरायक वो गेस्ट आपल्याक जाय तितलें, जाय तें घेतात. सर्व करपाक वेटर बी आसतातूच! विशेश करून किरा घाल्ल्यो चलयो, सर्व व्हं करतात. हय हांगा हॉटेलाचो खाशेलो ड्रेस आसता. तो किरा पध्दतीनूच न्हेसचो पडटा, त्या भेसांत तांची ती नमळाय आनी सेवा पळयत जाल्यार आमी तांच्या घराच आयल्यांत असो भास जाता.

हांगचीं हीं तारांकीत हॉटेलां तांच्या किचनांत भायल्यांक प्रवेश दिनांत. पूण आमच्या जाळवणदारांचे तांचेकडेन साटेलोटे आशिल्ले. ताचें कारण थळावे गायड जावंक जाय. आमचो कूक राजकुमार थेट किचनांत घुसतालो. ताणें हांगच्या त्या हॉटेलांतलें सगळें सामान वापरून, वो आपणें हाडिल्लें सामान वापरून गोंयच्यान व्हेल्ल्या सुक्या बांगड्यांचें हुमण केल्लें.

आमी थिम्पू बेगीन पाविल्लीं. जेवणाक उशीर आशिल्लो. आमच्या पंगडांतल्या जणेकल्याचो ग्रूप आशिल्लो. बर्डस ऑफ सेम फेदर फ्लाय टुगेदर. तिर्थप्राशन करप्यांचो एक वेगळो ग्रूप आशिल्लो. ते तांचो टायम जालो काय भुर्रर करून जमताले आनी आपलें कार्य उरकून जेवणाक येताले. म्हाका एक खेप तांचें आमंत्रण आशिल्लें. हांव गेलोंय बी. पूण म्हजें तें अर्द पेग घेवन बरोच वेळ बसप तांकांय पुटवलेंना आनी म्हाकाय तें सारकें दिसलें ना! म्हणटकच हांव आनी कामिनी जमता तितलें भूतान पळोवन घेवपाक हांगा थंय भोंवतालीं. चर्चा करतालीं.

थिम्पू देंगणांत तशी थंडी आशिल्लीच आनी त्या भायर वातावरणय सामकें मस्त म्हणटात तसलें. थिम्पू ही राजधानी जाल्ल्यान सगळ्या रस्त्याक लायटी आशिल्ल्यो. सांजवेळच्या त्या प्रकाशांत सगळ्यो खासगी आनी सरकारी रंगरंगयाळ्यो इमारती म्हळ्यार नाटकाचो वो सिनेमाचो सेट उबारिल्लेवरीं दिसतालो. अश्या ह्या वातावरणांत जेवणा आदीं थोडी वायन जर मेळिल्ली जाल्यार मस्त मजा येवपाची!

हांवें अशें म्हणू नाका, कामिनी म्हणूंक लागलें, ‘पळय वचून. खंयीय

मेळटली.' वाटेर वता थंय बार्रां आनी तावेर्ना दिसतालींच! फुयेंत्शोलींगाक होलसेल दुकानांय पावला कणकणीं आशिल्लीं. जाय कोणाक तो सोरो? कोण पिता? अशें जरी हांवें मनांत म्हणिल्लें तरी वायनाची एक तरी बोटल आसूंक जाय आशिल्ली हो विचार थिम्पू पावलीं तेन्ना आयलो.

पयस पयस दिसपी रूखावळीन भरिल्ले दोंगर. तांच्या मुळसांत पागोडा टायप तरांतरांच्या रंगांचीं, तरातरांच्या आकारांचीं घरां! त्या घरांच्या कुशींतल्यान व्हांवपी एखाद्री न्हंय! मदींच खंय खंय दाटायेन कोंडे पुरून तांकां लायिल्लीं तरातरांच्या रंगाचीं बोंदेरां. वाऱ्यान तांचें तें फडफडप! हें सगळें पळयत रावल्यार आपूण एक पेंटींगूच पळयतां काय कितें असो भास जावंक लागता. हें सगळें सौंदर्य पळयतां आसतना, गॅलरींत बशिल्ले कडेन हातांत जर वायनाचो ग्लास आसत जाल्यार त्या सर्गसुखांत एक आगळीच भर पडपाची!

हांव वायन हाडूंक भायर सरलों तशें कामिनीय म्हणूंक लागलें आपुणूय येतां. वाठार परकी, तातूंत म्हाका त्या दिसांनीं एका वेगळ्या दुयेंसान ग्राशिल्लें. कानांतलें संतुलन दवरपी द्रव काय कितें तरी कमी जालां, ताका व्हर्टींगो काय कितें तरी म्हणटात अशें दोतोरान म्हणिल्लें. अकस्मात केन्ना घुंवळ येत काय सांगू येना आशिल्ली. गोंयच्यान भूतान मेरेन पाविल्लों. तसो काय प्रकार घडूंक नाशिल्लो. पूण हुसको हो आसताच न्हय!

आमी चलत चलत थिम्पू शार भोंवतालीं. कोणाक तरी विचारून सोऱ्याचें दुकान सोदून काडलें. तो वाठार रेड लायट एरिया कसो वयले तराक दिसतालो. दुकानाच्या दारांचेर, भायर, सकयल रस्त्याकुशीक, वण्टीक तेंकून बी चलयो, बायलो बी उब्यो राविल्ल्यो. सोपणांचेरूय बी वेगवेगळ्या पिरायेच्यो चलयो, बायलो बशिल्ल्यो आनी भायर भोंवपी लोकांचेर एके विशिश्ट लकबीन नदर मारताल्यो. म्हजेरूय नदरो आशिल्ल्यो. कांय जाणांनी दोळे मिचकावन हांसोय दिवपाक आरंब केल्लो. हांव तो म्हज्या रूपाचो प्रभाव अशें धरून तांचेकडेन पळयत कोंबो कसो चलतालों. कामिनीन म्हाका चिमटो काडून तांचेकडेन लक्ष दिवं नाका म्हळें, तीं कोण हेंय ताणें म्हाका सांगलें. हाका बेश्टेंच वांगडा घेतलें अशेंय म्हाका जालें. हीय एक संस्कृताय. म्हज्या सारख्या अभ्यासकाक तोय अणभव गरजेचो आशिल्लो. त्या वातावरणाचो उपभोग घेवंक न्हय तर असलें जिवीत सहसा पळोवंक मेळना. कित्याक आमी स्वताक खूब सभ्य मानतात! बायणां रस्त्यान वतले. पूण बायणा

एरिया आयली काय कारण नासतना, कोणूय आपल्याविशीं कितेंय समज करून घेत बी ह्या भंयान आपले भितरूच आंग ओडून घेतले! केन्ना मुक्त जातले आमी आमच्याच मनांतल्या विकृत भंयांतल्यान?

त्या वाठारांत एकेच सुवातेर सोऱ्याचीं कशीं खूबशीं दुकानां आशिल्लीं. थोडेकडेन बार्र टायप वातावरण आशिल्लें आनी तातूंत बायलांय बशिल्लीं. एकंदर वातावरण इंग्लिश सिनेमांतल्या डाकूंच्या अड्ड्यावरी दिसतालें. दादले जुगार खेळपी, तारवटलेल्या दोळ्यांचे कशे दिसताले. भायर सगळेकडेन तसल्याच लोकांची वर्दळ आशिल्ली. कामिनीक तें वातावरण मात्तूय आवडलेंना. तें पर्थून या म्हूण फाटीक लागलें. पूण तें शार! मुखेल वाठार शारांतलो. थंय आमकां कसलो भंय? एका दुकानांत वचून हांवें चवकशी केली. 'के फाय' ही व्हिस्की मातशी उंची आनी दर्जेदार. आमची हांगची सिग्नेचर बी आसता तसली. बाकीच्यो हलक्या दर्जाच्यो. हांवें एक वायन बोटल आनी एक के-फाय घेतली आनी थंयच्यान बेगीबेगीन परतलीं. बायलांचो 'हूल' दिवपाचो प्रकार चालूच आसलो.

हॉटेलार येवन आमी टिव्ही पळयत पळयत थोडी थोडी वायन घेतली. टिव्हीचेर आमच्या भारतावरींच हिन्दी, इंग्लीश पिक्चरांचे चॅनल! आमकां हुसको गोंयचो, भारताचो! देखून आमी चडशी बातमी नदरे खाल घालतालीं. वायन मातशी कडवट आशिल्ली! रेड वायन तशी कडवट आसताच पूण ही हांव पितां तसली सदचे रूचीची नाशिल्ली.

तांच्या टायमा प्रमाणें साडे आठांक आमी डायनींग हॉलांत गेलीं. जेवणाचो बेत तसोच बुफेचो. हांगा कांय विदेशीय लोक जेवणाक आशिल्ले. बुफे म्हणटकच कोणाक जाय तें घेवपाचें! हांगा आमची आनीक एक डिश आशिल्ली जी तांच्या सदच्या मेनूंत नाशिल्ली, ती म्हळ्यार सुक्या बांगड्यांचें हुमण! ती त्या एकंदर मांडावळी पासून थोडी कुशीक शी दवरिल्ली. पयलींच्या काळार आनी आतांय कांय कांय कडेन अस्तुरेक तांचे मासिक पाळये वेळार भश्टी म्हूण हेरां परस कुशीक बसयतात तशी! ती रीत अर्थहीण! मनीसपण विरोधी! पूण ही डीश अर्थपूर्ण!

सुक्या बांगड्यांचें हुमण आसा ही गजाल प्रत्येका मेरेन पाविल्लीच. सगळ्यांक गोंयच्या जेवणाचे वेध लागिल्ले. सुक्या नुस्त्याच्या वासान लेगीत जेवन तृप्तीचे धेंकर दिवपी आमकां गोंयकारांक नुस्त्याची कडी आशिल्ली! खाऱ्याची जावं ती मागीर! म्हाका खारें आवडना तरी तांचे वांगडा 'शीत-हुमण' जेवलों आनी म्हाकाय

तें बरेंऽ लागलें.

दुसरे दिसाय आमचो थिम्पूत राबितो आशिल्लो. पुराय दीस ह्या शाराची भोंवडी. हांगा भूतानच्या तिसऱ्या राजाचे स्मृतीक ओंपिल्लें चोर्तेन, टेक्स्टायल वस्तुसंग्रहालय, भूतानचे भौतीक संस्कृतायेची वळख घडोवपी आनी तांचें जीवन पध्दतीचें दर्शन घडोवपी दायज बी पळोवंक मेळ्ळें.

तकीन प्राणी संग्रहालय जातूंत राष्ट्रीय प्राण्याचें दर्शन घेवंक मेळटा. कला आनी हस्तकला शाळा, राष्ट्रीय वाचनालय जातूंत आदीम काळांतल्या बौध्द लिखाणाचीं हस्तलिखितां पळोवंक गावलीं. अर्विल्ल्या पुस्तकां वांगडाच कांय शेकड्यां आदलें साहित्यूय ह्या वाचपघरांत पळोवंक मेळ्ळें.

हांगा थिम्पूंत चांगरी खुयेंन्सेलफोदरांग वाठारांत बुध्दा दोरदेन्मा प्रकल्प म्हूण बुध्दाचो एक बरोच व्हडलो पुतळो तयार करतात. एके जपानी महिलेन तो हांगा भूतानांत उबारपाचो संकल्प केलो आनी लागीं लागीं पुर्णायेक आयिल्ली ही पितळेचे धातूची सूर्याच्या वोतान चकचकपी बुध्द मूर्ती खूब पयसुल्ल्यान लेगीत दर्शन घडयता. लागीं लागीं ७०-८० फूट व्हड आसूंक जाय. जपानचे खंयचे तरी अस्तुरेन ती पुरस्कृत केल्या. बुध्दान सदांच मूर्तीपूजेक विरोध केलो. पूण आयज जगभर ताचीच मूर्ती करपाची सर्त चल्ल्या. भूतानच्या, विशेश करून थिम्पू देंगणांतल्या दोंगरावेल्या वळणावळणाच्या रस्त्यावेल्यान गाडयेन वतना सूर्याचीं किरणां पडिल्ल्यान ही मूर्त चकचकता आनी मळबांत नखेत्र लिखलिखचें तशी लिखलिखता.

थिम्पू हें एक जगांतलें सुंदर शार म्हणूंक जाय. दोंगरांचे उंचायेर रावून जेन्ना भूतानची ही राजधानी त्या देंगणांत पळयतात तेन्ना तें खऱ्यानीच एक पेंटींग कशें दिसता. थिम्पू हें भूतानचें गिमांतलें आनी पारो हें शियाळ्यांतलें राजपाटण. आमी बुध्दाचो पुतळो पळोवन परततना वाटेर दोंगरार बस थारायली आनी थिम्पू शाराचें मनसोक्त दर्शन घेतलें. आमचो गायड सोनम येजेर आमकां खंयची इमारत कसली तें सांगतालो. सरकारी कचेऱ्यो, महाराजाचो राजवाडो, मंत्र्यांचीं निवासस्थानां न्यायालय, जे खेन्पोचों म्हाल सगळें सगळें पयसुल्ल्यान आमी पळयताले..

वळणावळणाच्या रस्त्यान पर्वतावेल्यान बस परत थिम्पू देंगणांत देंवतना हें सगळें वैभव परतें परतें नदरेक पडटालें. महाराजाच्या महालाकडचे गेटी लागच्यान बस फुडें गेली. दिसलें ड्रायवरान बस भितर घेवंची, आमी राजमहाल पळोवंचो,राजाक,

राणयेक मेळचें. तांकां मेळूं येतालें, पूण तशी तजवीज आदीं करची पडटा. आमी फकत प्रवेशदारावेल्या आर्मां घेवन उबे आशिल्ल्या रक्षकांक पळोवनूच मुखार गेले. पूण म्हजें मन? तें बसींतल्यान देंवून भितर गेलेंच.

ह्या भूतानचेर इसवी सनापयलीं भारतीय राजकर्त्यांचो शेक आशिल्लो खंय! आदलो हो वाठार म्हळ्यार भोटांग. भोटांग, भोटांग, भोतान जायत जायत ताचें आयचें भूतान जालें अशेंय मत्त आसा. भारतीय पुराणांतल्या कांय उल्लेखां वयल्यान तिबेट म्हळ्यारूच भूतान अशें म्हणटात. सातव्या शेकड्यांत भूतानाचेर भारतीय संस्कृतायेचो खूब व्हडलो प्रभाव आशिल्लो. ह्या तेंपारभूतानचेर कुच बिहाराचो संगलदीप नांवाचो राजा राज्य करतालो. मुखार कामरूप देशाच्या शेकातळा हो प्रदेश आयलो. ६५० च्या अदमासाक राजा भास्करवर्मन हाच्या मरणा उप्रांत हो प्रदेश कामरूप देशा सावन वेगळो जावन हांगा ल्हान-व्हड अशीं साबार राज्यां निर्माण जालीं. आठव्या शेंकड्याच्या मदल्या काळांत नालंदा विद्यापिठांतल्या आचार्य पद्मसंभव हाणें भूतानच्या लोकांक बौध्द धर्माचें शिक्षण दिलें. ह्याच पद्मसंभवाक लोक रिंपोचे अशें म्हणटात. रिंपोचे म्हळ्यार गुरू. हांव फुयेंत्शोलींगाक आशिल्लों तेन्ना आनी वाटेरूय खंय खंय बरेच लोक म्हाका पळयत चलताले आनी रिम्पोचे, रिम्पोचे करताले. म्हज्या रूपांत कोणाक कोण कोण दिसता तेच जाणांत. सगळ्यां परस एक वेगळें व्यक्तीमत्व जर दिसलें जाल्यार सभ्य, शिकिल्ले लोक पळोवन, हांसून बी मुखार वतात. हेरांक म्हजेकडेन आडनदर करूंकय जायना आनी कसलोय कमेंट केले बगर रावंकूय जायना. ल्हान भुरगीं,‘आवऽय हावको’ म्हणटलीं, कोण ‘सांताक्लॉज’ म्हणटलीं, कोण ‘रवीन्द्रनाथ टागोर’ जाल्यार कोण आनीक किदें! हांशिल्ल्या सारकें करून ओगी रावचें पडटा! हातांत फातर घेवन तांचे फाटीक लागतलों? पिसो म्हणत आनीकूय चड करतले! नशिबांत आसा तें भोगूं नाका?

म्हजें मन ज्या राजम्हालांत भोंवतालें, भूतानच्या ज्या राजपाटणांत पासय मारतालें, तें आयज दोळ्यांक भुलयतालें जायत! पूण हाचे फाटल्यान आशिल्लो भूतकाळ, ह्या देशाचो इतिहास, ताची घडण जाणून घेवपाचो यत्न केलो जाल्यार भूतान म्हळ्यार एक अजापूच अशें दिसूंक फावो! कितें कितें सोंसूंक ना ह्या भूतानान? एका आदर्श देशाची, राष्ट्राची बुन्याद घट जातली जाल्यार कसल्या कसल्या दिव्यांतल्यान वचचें पडटा हाची थोडीभोव कल्पना भूतानचो इतिहास नदरेखाला घालीत जाल्यार येता...

भूतानचो पुर्विल्लो इतिहास आयज पुरायेन हाताक लागना. सातत्यान घडून आयिल्ल्या भूंयकांपाक लागून, मागीर पर्थून पर्थून उज्याचे भकीक पडिल्ल्यान हांगच्या कितल्या तरी मठांची हानी जाली. तरी लेगीत ह्या सैमीक सांवारांतल्यान जें कितें वाचून उरलें वो हाताक लागलें ताचेवेल्यान भूतानच्या साम्राज्याचो गिरेस्त इतिहास पळोवंक गावता.

भूतानचे हे ड्रुक भूंयेंत, वेगवेगळे दरयत वेगवेगळे राजा राज्य करताले. ते राजा आनी तांचें हें राज्य तरी कसलें म्हणपाचें! सैमान एक व्हड नांगर घेवन हे भूंयेर तो चलोवंचो, त्या नांगराच्या फाळान वेगवेगळ्यो ह्यो दरय तयार जावंच्यो, तातूंतल्यान निर्माण जाल्ल्या दोंगरांच्या दोनूय वाटांतल्या खाचांनी हाताच्या बोटार मेजूं येतात इतल्याच लोकांनी राबितो करून रावप,आनी त्या मूठभर लोकांचो मुखेली जो कोण आसा तो त्या वाठाराचो राजा. हे राजा आपापसांत सतत झगडत, झुंजत आसताले. हेच अवस्थेंत हांगचो कितलोसोच काळ सरलो म्हळ्यार जाता.

पूण १६१६ सालांत भूतानचो इतिहास बदलून उडोवपी, भूतानाक थिरताय दिवपी काळ उदेलो. झाबद्रुंग नागवांग नामग्येल हो भूतानचो सोडवणदार कसो थंय पावलो. नामग्येल हो लामांचे वंश कुळयेंतलो. तिबेटांतल्या रालूंग मठाधीश म्हूण बाराव्या वर्सा ताची नेमणूक करपाची थारली. हें ड्रुक्पा कार्ग्युपा संप्रदायाचें मुखेल पद आशिल्लें. पूण ताची ही नेमणूक विरोधी दावेदारांक मान्य नाशिल्ली. तांच्यो धमक्यो येवंक लागल्यो. मठाचें वेवस्थापन पर्थून पर्थून उमथून उडोवपाचो प्रयत्न विरोधक करूंक लागले. ते पिडापिडीक उबगल्ल्या नामग्येलान तिबेट सोडलें आनी भूतानांत आलाशिरो घेतलो.

रोखडोच ताणें भूतानाचेर आपलो अध्यात्मिक आनी राजकीय छाप निर्माण केलो. झाबद्रुंग म्हूण पदवी घेतली. झाबद्रुंग नाग्येल हो एक व्हड अध्यात्मीक, सांस्कृतीक आनी झुंजार असो फुडारी आशिल्लो. भूतानचो संस्थापक म्हूण ताणें वावराक आरंभ केलो आनी तातूंत ताका यशूय लाभलें. भूतानी लोक ताका तेच नदरेन मानतात. भूतानचेर तिबेटाकडल्यान सातत्यान आक्रमण जायत आसतालें. असल्या आक्रमणाक लागून राज्यांत थीरताय प्रस्थापीत जावप कठीण आशिल्लें. ह्या आक्रमणाचेर ताणें नियंत्रण हाडलें आनी तें पयस केलें. ड्रुक्पा कार्ग्युपा शाळा स्थापन केल्यो आनी तांकां घटाय दिली. बौध्द भिक्खूंची राज्यस्तरीय समिती

स्थापन केली आनी देशांत एकसंघताय हाडली. ताणें भूतानभर झोंगांची माळूच तयार केली आनी पेनलोप्स म्हणोवपी आपल्या प्रतिनिधीं मार्फत तांचेर नियंत्रण दवरलें. ताणें कायद्याचे नेम निर्माण केले. सांस्कृतीक आनी धर्मीक परंपरांची सुरवात केली. जाका लागून भूतानाक एक आकार आयलो, एक रूप लाभून ताका एक खाशेली अस्मिताय गावली. आयज जो आमकां भूतानचो राष्ट्रीय पोशाग दिसता ताची आखणी ह्याच झाबद्रुंगान केल्ली. थिम्पू आनी पुनाखा शारांत 'दोमचो' म्हूण जे वर्सुकी धर्मीक उत्सव जातात तेय ताणेंच सुरू केले.

झाबद्रुंगची सत्ता भूतानाचेर आसतनाच भूतानचे भूंयेक अस्तंती लोकांचे पांय लागले. दोग पुर्तुगेज पाद्री १६२७त भूतानांत आयले. झाबद्रुंगा वांगडा कितले तरी म्हयने थिम्पूतच चेरी मठांत रावले. झाबद्रुंगाक तांचो धर्म, भक्ती, श्रध्दा बी गजाली तांचेकडल्यान जाणून घेवपाच्यो आशिल्ल्यो. त्या वाठारांत प्रवचन दिवपाक ताणें तांकां मान्यताय दिली. तेच वांगडा हे पाद्री लोक आपल्या लोकांक बाटोवन क्रिस्तांव धर्मांत व्हरपाचो यत्न करचेनात हाचेरूय बारीक लक्ष दवरलें. आमच्या गोंयच्या बाबतींत मात अशें घडलेंना. पाद्रयांचे पांय गोंयचे भूंयेक लागले ते लागलेच, ताणीं थळाव्यांचे पांय आपल्या धर्माचे वाटेन वळयले. जर गोंयांतूय एखाद्रो झाबद्रुंग त्या काळार लाभिल्लो जाल्यार आयचें गोंय वेगळेंच दिसपाचें आमकां...

झाबद्रुंगान भूतानाक एका खाशेल्या वेवस्थापनाची बुन्याद घाली. तो देशाचो अध्यात्मीक मुखेली आशिल्लो. देशाचो राजकारभार ताणें 'देसी' म्हणिल्ल्या निधर्मी राजकर्त्यांकडेन सुपूर्द केल्लो. जांकां जे खेन्पो म्हणटाले तो मुखेल मठाधीश मठांचें वेवस्थापन पळयतालो. पुनाखा हांगच्या झोंगांत १६५१त समाधीस्त जावंक गेल्ल्या ह्या झाबद्रुंगाक त्या उपरांत लोकांनी पळयलोच ना. रोखडोच तो मेलो. पूण ताच्या मर्णाची खबर ४० वर्सां मेरेन लिपोवन दवरली. कारण देशांत अस्थिरताय निर्माण जावपाची आनी तिबेटचें आक्रमण जावपाची शक्यताय आशिल्ली.

त्या उपरांत झाबद्रुंगचो उत्तराधिकारी देसी तेनझीन राबगे हाणें १४ वर्सां मेरेन राजकारभार पळयलो. ताणें झाबद्रुंगाचो अर्दकुटो उरिल्लो वावर मुखार व्हेलो. त्या उपरांत मात भूतान पर्थून अस्थिरतायेचे दिकेन गेलो. कितल्या तरी देसींची हत्त्या जाली. तिबेटींचीं एकार एक आक्रमणां जावंक लागलीं. ब्रिटीशांचींय 'द्वारा' चेर आक्रमणां सुरू जावंक लागिल्लीं. बंगालांत थिरावल्ली इस्ट इंडिया कंपनी भूतान सारके सुपीक जमनीर कब्जो करपाचे तयारेंत आशिल्ली.

अंतर्गत दुस्वास, पेन्लोपांचें आपसांत झुंजप आनी अधिकारा खातीर जावपी आक्रमणां हाका लागून उप्रांत एकोणिसाव्या शेकड्या मेरेन अंधाधुंदीच चलताली. ह्या काळांत तीन वर्सां मजकतीं ४८ देसी वो नागरी राजकर्त्यांचो बदल हे भूंयेर जालो हें कोणाक खरें दिसपा सारकेंच न्हंय.

भूतानचे हे सगळे घडामोडीचेर इश्ट इंडिया कंपनीचें लक्ष आशिल्लेंच. तांकां भूतानची ही पिकाळ भूंय हातासपाची आशिल्ली. हे भूंयेर परंपरेन भूतानी लोकांचें नियंत्रण आशिल्लें ताचेर आपलें नियंत्रण हाडूंक, सावजाक दपून राविल्लेवरी ब्रिटीश संधीचे प्रतिक्षेंत आशिल्लेच.

भूतानात भितर सरपा पासत प्रवेश द्वारां आसात. ह्याच द्वारांतल्यान बंगालच्या सपाट प्रदेशांतले आनी दोंगर मुळसांतले लोक भूतानांत भितर सरपाक प्रयत्न करताले. हाका लागून तांचे वांगडा सतत चकमक चलताली. हाका आडांबो घालो तो १७७४त वॉरन हॅस्टींग्स् ह्या बंगालच्या गव्हर्नर जनरलान. ताका भूतानांत वेपारी संबंद प्रस्थापीत करपाचे आशिल्लें. ताणें हें कितले मेरेन शक्य आसा हाची पडताळणी करूंक जॉर्ज बोगलेच्या फुडारपणा खाल एक शिश्टमंडळ भूतानांत धाडलें. पांच म्हयने बोगले भूतानांत रावलो. तो भूतान आनी थंयच्या लोकांच्या मोगांत पडलो.

ब्रिटीश आनी भूतान हांचे मजगतीं त्या उपरांत ह्या सीमा प्रस्नाक आनी द्वारवॉराक लागून तह जालो. ब्रिटिशांनी भूतानाक द्वार उक्तें करपाचे बोलीचेर वर्सुकी मोबदलो दिवपाक आरंभ केलो. पूण १९व्या शेकड्याच्या मध्यार ब्रिटीश आनी भूतानी लोकांचें पर्थून फिसकटलें. आसामी आनी बंगाली लोकांच्यो सीमा प्रस्नाचेर द्वार चकमकी चालूच आशिल्ल्यो. आसाम आनी बंगाली लोकांक दक्षिणे कडल्यान भूतानांत भितर सरपाक बंदी आशिल्ली. ते पासत ह्यो द्वार चकमकी बंद जावपाचीं काय चिन्ना दिसनाशिल्लीं.

ह्या असल्या अरिश्टांच्या काळांत जिग्मे नामग्येल हो नवो फुडारी भूतानांत वयर सरलो. एक धिरिश्ट तोंगसा पेन्लॉप. जिग्मे नामग्येल हो पंदराव्या शेकड्यांतल्या संत पेमा लिंगपा हाच्या उदात्त घराण्यांतलो. तोंगसा पेन्लॉप हें पद मेळोवपा खातीर स्वकर्तृवान हो वयर सरलो. आपल्या गुणांच्या बळाचेर ताणें कांय काळा भितर विरोधी पेन्लॉपाचेर जैत जोडलें आनी वाठारांतली शक्तीमान व्यक्ती म्हूण आपली वळख घडयली. ताणें भूतानाक थीरताय दिली आनी शांतताय हाडली.

तो १८७०तलो भूतानाचो ४८वो देशी वो नागरी राजकर्तो. पूण ताका कारभार चलोवंक फक्त तिनूच वर्सां लाभलीं. तरीपूण ताचें कर्तृत्व आनी दरारो असो आशिल्लो, ताच्या उत्तराधिकाऱ्याची नेमणूक जाल्या उपरांतूय ताचेर ताचो प्रभाव उरिल्लो. जिग्मे नामग्येलाचो पूत उग्येन वांगचूक हो बापाय उपरांत योग्य अधिकृत उत्तराधिकारी थारलो. तो पारो आनी तोंगसा ह्या दोनूय वाठारांचो पॅन्लॉप जालो. उपरांत आपल्या विरोधकांचेर जैत मेळोवन आपल्या पदाक ताणें घटाय हाडली. कोणूच प्रतिस्पर्धी नाशिल्लो असो तो देशाचो एकमेव फुडारी थारलो.

उग्येन वांगचूक १९०७त भूतानचो पयलो वांशीक राजा म्हूण एकमतान वेंचून आयलो. उच्चपदस्थ अधिकारी, म्हत्वाचे लामा आनी लोकप्रतिनिधींच्या सभाघरांत ही वेंचणूक जाल्ली आनी ताका ड्रूक ग्यालपो ही पदवी भेटयली. १७ डिसेंबर हो तो राज्यभिशेकाचो दीस आशिल्लो. होच दीस भूतान आपलो राष्ट्रीय दीस म्हूण पाळटात.

उग्येन वांगचूक हो एक लोकप्रिय असो राजा आशिल्लो. १९२६ मेरेन ताणें शांततायेन आनी दोळे दिपकावपी राजकारभारचलयलो. ताच्या उपरांत ताचो चलो जिग्मे वांगचूक सत्तेर आयलो. शांततायेन आनी भरभराटीचो राजकारभार ताणें फुडें व्हेलो. १९५२ वर्सा तो भायर पडलो आनी ताचो पूत जिग्मे दोर्जी वांगचूक सत्तेर आयलो. आयची भूतानची जनता ह्या राजाक भूतानचो निर्माणकर्तो अशें मानतात.

जिग्मे दोर्जी वांगचूक फुडाराची नदर आशिल्लो राजा. ताणें अशे तरेन उदरगतीची आखणी केली, जाका लागून सगळ्या संवसारा पासून इतलो तेंप अलिप्त आशिल्ल्या भूतानचे अलिप्ततायेचो अंत जालो. ताचे राजवटींत रस्त्यांची निर्मीती जाली. भूतानचे भूंयेर गाडयो धांवडायल्यो. देशांत अर्विल्ल्या शिक्षणाची तजवीज केली. पयलेच खेप भारत आनी हेर देशांच्या सहकार्यान तांत्रिक कार्यावळी राबयल्यो. शेतकी संस्कृताय, जलविद्युत शक्ती आनी प्रशासनाची अर्विल्ली पध्दत ताणें राबोवंक आरंब केलो. भूतानांतल्या सगळ्या वाठारांतल्यान प्रतिनिधीत्व मेळटलें अशी राष्ट्रीय विधानसभा ताणें घडयली. मंत्रीमंडळ स्थापन केलें. उच्च न्यायालय, चलन, बॅन्क आनी पोस्ट पध्दत ताणें राबयली. १९७१त भूतान संयुक्त राष्ट्राचें घटक जालें. जिग्मे दोर्जी वांगचूक हाणें फकत दोन दसकां भितर भूतानाक मध्ययुगांतले अवस्थेंतल्यान विसाव्या शेकड्यांत हाडलो. हो तिसरो राजा तरणे पिरायेरूच १९७२ वर्सा अपघाती सोंपलो. ताच्या उपरांत ताचो चलो जिग्मे सिन्गाय

वांगचूक १६व्या वर्साच चवथो ड्रुक ग्यालपो म्हूण गादयेर बसलो. तो संवसारांतलो आतां मेरेनचो सगळ्यांत भुरगो राजा अशें मानतात.

भूतानाक अर्विल्ल्या भूतानाचो दर्जो दिवपाचो वावर हातांत घेतलो तो ह्याच राजा जिग्मे सिन्गाय वांगचूक हाणें. १९७४त राजा म्हूण ताणें कारभार अधिकृतपणा हातांत घेतलो. तेन्ना भूतानच्या इतिहासांत पयलेच खेप ताणें आंतरराष्ट्रीय प्रसारमाध्यमा भूतानांत हाडलीं. भूतानची म्हायती आनी फोटे आंतरराष्ट्रीय खबरांपत्रांनी छापून हाडली. भूतान म्हळ्यार परी कथेंतल्यान वर्णन जाता असल्या देशांमदलो देश अशे तरेचें चित्र ताणें संवसारा मुखार दवरलें. राज्याभिशेक जाल्या बराबर ताणें आपल्या राष्ट्राचे उदरगतीचें आगळेंच तत्वगिन्यान संवसारा मुखार दवरलें. ताणें जाहीर केलें – भूतानची उदरगत आनी उत्थान हें ताच्या एकूण उत्पादन क्षमतेचेर मोलावणी करचेनात तर एकूण राष्ट्रीय खुशालकायेचेर – ग्रॉस नॅशनल हॅपीनेसचेर जातली. ही एक क्रांतीकारी संकल्पना आशिल्ली. हे पासत अर्थतज्ञ आनी उदरगतीच्या मळावेले स्वताक जाणकार म्हणोवपी हेरांनी ताची टिंगल, टवाळी केली. खेबाडां मारलीं. एकूण राष्ट्रीय खुशालकाय ही घोशणा म्हूण आगळी वेगळी खरी पूण ही खुशालकाय खंयच्या मापान मेजप? पूण आयज ताची ती एकूण राष्ट्रीय खुशालकायेची संकल्पना Gross National Happiness यशस्वी थारल्या. राष्ट्रीय खुशालकायेचो जो सिध्दांत वो संकल्पना राजा जिग्मेन मांडिल्ली ती आतां अर्थतज्ञ आनी नियोजकां पासत एक मॉडेल थारल्या.

ही GNH – ग्रॉस नॅशनल हॅपिनेस – एकूण राष्ट्रीय खुशालकाय हाचे फाटलो विचार आनी संकल्पना कितें आशिल्ली? तर आमी भौतीक संपत्त म्हळ्यारूच सर्वस्व अशें मानलां तें समा न्हय. लोकांचें सूख संपूर्णायेन भौतीक गजालींचेर निंबून आसपूच शक्य ना. आर्थीक उदरगत आनी आधुनिकीकरणाची खंयच्याय राष्ट्राचे उदरगती पासत गरज आसत पूण त्या लोकांचीं पारंपारीक मुल्यां आनी जिविताच्या दर्जाचें मोल दिवन न्हय.

जिग्मे सिन्गाय वांगचूक राजान राष्ट्रीय खुशालकाय हातासपा पासत तरातरांचीं धोरणां राबयलीं. जाका लागून योग्य सामाजिक, आर्थिक उदरगत देशांतल्या दरेक विभागांत आनी समाजांतल्या प्रत्येक घटकाची भरभराट आनी उत्कर्श जावंक जाय. मुळाव्या पर्यावरणाची राखण आनी जतनाय, भूतानचे आगळे, खाशेले संस्कृतायेचें, दायजाचें जतन आनी संरक्षण म्हत्वाचें अशें राजा मानता आनी ते दिकेन कारभार

चलयता. ताका कारभारांत लोकांचो सहभाग आशिल्लो जाय. दर्जेदार प्रतिसाद मेळपी शासन वेवस्ता आसप गरजेचें मानून राजान आपल्या धोरणांत ह्या गजालींक प्राधान्य दिलां. गांवगिऱ्या उदरगतीक उंचेलें प्राधान्य दिलां. तातूंत भलायकेची काळजी आनी सगळ्यां पासत सहजतायेन उपलब्ध जावपी शिक्षणाचो मुखेलपणान आसपाव आसा.

आमच्या गोंयांत सत्तरी, काणकोण, खोतीगांव बी वाठारांतले कांय अशे गांव आसात जंय कांयकडेन अजून वीज पावूंक ना. पूण हांगा भूतानात सामक्या दुर्गम वाठारांतल्या गांवांत लेगीत रस्ते आनी संपर्क साधना उपलब्ध जातलीं म्हणपाची जतनाय घेतल्या. शेतकी उदरगत, जनावरां पोसपाच्या धंद्याची उदरगत हांकां प्रोत्साहन दिवपी येवजण्यो सगळ्या सगळ्या गजालींचेर भूतानचें लक्ष आसा.

ग्रॉस नॅशनल हॅपिनेस तत्वाचो वो धोरणाचो परिणाम खरेंच कितें जाला? सरकारी अधिकाऱ्यांक विचारून हें कळपाचें ना. ताची जाप सर्वसामान्याच्या तोंडावेले खोसयेंतल्यान मेळूंक जाय.

भूतानात राजसत्ताक पध्दत चलता. राजसत्ता वो राजेशाय आनी लोकशाय हांची सांगड घालून, जनतेक राजकारभारांत आसपावन घेवन राष्ट्राची उदरगत घडोवन हाडपाची एक आगळी वेगळी राजकारभाराची प्रथा हांगच्या राजान अस्तित्वांत हाडिल्ली दिश्टी पडटा. राजान तीच मोख आपले मुखार दवरून ते तरेन वावराक आरंभ केल्लो. ड्रक ग्यालपो जिग्मे सिंगाय वांगचूक हो तेच पासत एक द्रश्टो राजा.

भूतानचे दरेक झोंगखाग म्हळ्यार जिल्हे देशांत स्वयंभू जावंचे देखून राजकारभाराचें विकेंद्रीकरण करप, लोकशायीकरण करप, जाका लागून झोंगखाग आपले इत्से प्रमाण उदरगती पासत प्राधान्य तत्वाचेर वावरूंक पावतले. राजान तेच पासत निर्णय आनी धोरणां आखपाचे अधिकार गांवांक दिवन उडयले.

भूतानची राष्ट्रीय विधानसभा आसा. हातूंतले २/३ वांगडी हे देशांतल्या वीस जिल्ह्यांतल्यान वेंचून आयिल्ले प्रतिनिधी आसतात. राजान आपल्याक कार्यकारी अधिकारांतल्यान मुक्त करून घेवंक सगळे अधिकार मंत्रिमंडळाकडेन सुपूर्द केले. ताणें असो एक कायदो केलो जाका लागून राष्ट्रीय विधानसभा राजाआड अविस्वास दर्शक थाराव मांडूंक शकता. एका आदर्श देशाच्या फुडाराचे सुरक्षिततताये पासत हें म्हत्वाचें आसा अशें राजाचें मत आशिल्लें. हें सगळें जरी सिंहासन बत्तीसींतल्या

काणयां वरींच दिसलें तरी सत्य आशिल्लें.

राजान २००१ वर्सा देशाच्या संविधानाचो आराखडो तयार करपाक आरंभ केलो. भूतानात द्वीपक्षीय वेंचणूक पध्दत आसची, संविधानात्मक राजेशाय आसची, राजान ६५व्या वर्सार सक्तीची निवृत्ती घेवंची असलीं कलमां ताणें संविधानांत आसपावन घेतलीं.

हें संविधान ड्राफ्ट करून राजान २००५ तल्या नोव्हेंबरांत प्रजेचीं मतां जाणून घेवपा पासत तांचे मुखार दवरलें. तांच्या मनांत कितेंय दुभाव बी आसल्यार तांकां मेळून तो पयस करचो म्हूण राजा खासा देशांतल्या दरेक जिल्ह्यांत भोंवडी करूंक लागलो. हें संविधान देशांतल्या दरेकाक फुडाराचो धनी कशें करूंक पावतलें हें समजावपा खातीर ताची ही भोंवडी आशिल्ली.संविधानात्मक राजा संसदीय लोकशायेचो मुखेली आसल्यार लोक फुडाराचे धनी जावं येतात हें ताणें लोकांक पटोवन दिलें.

ह्याच राजा वांगचून आपणेंच केल्ल्या संविधानाचो आदर राखपा पासत २००५त भूतानच्या राष्ट्रीय दिसा, १७ डिसेंबराक आपूण २००८ वर्सा निवृत्ती घेतलों म्हणपाची घोशणा केली आनी ते प्रमाण ताणें आपलो उत्तराधिकारी म्हूण आपलो व्हडलो पूत राजकुमार दाशो जिग्मे खेसर नामग्येल वांगचूक हाचो राज्यभिषेकूय केलो. संविधानाचो तो संरक्षक थारलो.

ड्रूक ग्यालपो जिग्मे सिन्गाय वांगचूक ची ही कारकिर्द म्हळ्यार भूतानचो सुवर्णकाळ आशिल्लो. त्याच काळाची झळाळी तोखेत हांव राजम्हालांचें भायल्यानूच दर्शन घेतालों. भितर वचून मेळप शक्य आशिल्लें तरी वेळ नाशिल्लो म्हूण भायरूच ताच्या वावराक तोखेतालों. खंयच्याय देशान आमचें अनुकरण करचें आनी आदर्श देश घडोवंचो अशेंच कितें तें राजपाटण सांगतालें.

पूण आमी भोंवडेकार ताचेर कितलो मेरेन विचार करतात? म्हजे खातीर तरी हें सगळें गरजेचें आशिल्लें.

थिम्पूच्यान पुनाखा हें अंतर ७० किलोमिटरांचें. जवळ जवळ तीन वरांचो प्रवास हो. आमी सकाळीं थिम्पू सोडलें. वाटेर जीं जीं कितें थळां दिसतात आनी सैम सुंदराय तोखेवंक मेळटा ती तोखेत पुनाखा वचपाचें! रस्त्यार सगळे कडेन धुकेंच धुकें. मदीं मदीं कांयकडेन वाठार मेकळो मेकळो दिसतालो तेन्ना म्हाका

बरेंऽ दिसतालें. म्हाका धुकें आवडटा. पहाडी प्रदेशांत स्वेटर, जाकीट बी घालून असल्या धुक्यांतल्यान खूबकडेन भोंवलां हांव. बोल्सांत हात घालीत, तोंडांतल्यानूय धुंवर सोडीत भोंवतां भोंवतां अकस्मात पहाडी रागांतलीं गीतांय म्हणनशें दिसता. पूण म्हाका हांगा हें धुकें नाका आशिल्लें. पुराय आसमंत निरभ्र उरिल्लें जाय आशिल्लें. ह्या प्रवासांत आमकां बर्फान माखिल्ल्या हिमालय पर्वताचें दर्शन जावपाचें आशिल्लें!

म्हज्या सारख्याक आतां हिमालय म्हळ्यार एक सपनूच. जे पिरायेर हिमालय भोंवूंक जाय आशिल्लो ते पिरायेर भोंवूंक पावलों ना. पळोवपाची इत्सा खूऽब्ब आशिल्ली. पूण इत्सा आसून भागना. हेर खूऽब्ब गजाली आसतात. योग जुळून येता म्हणसर पिराय उलगता. मागीर उरता अशें पयसुल्ल्यान नदर घालपाचें. तेंय एक नदरेन योग्य म्हणपाचें!

आमचो हिमालय म्हळ्यार सैमाक पडिल्लें एक सुंदर सपन हें खरें. पूण आयज हिमालय आदलो उरूंक ना. हिमालयांत जम्नोत्री – गंगोत्री मेरेन बसी वचपाक लागल्यात. हिमालय हो वाहनानी वचपाची सुवात न्हय. हांगा ताकतीक उपकारना. ताकतिकेन चलतल्याकडेन सैम केन्नाच उलयना. सैम जें कितें तुम कां सांगता तें जर सारकें आयकून घेना जाल्यार सैमाच्या गोपांत रिगपांत अर्थ ना. आतां म्हजे इत्से प्रमाण चलून वचपाचो हिमालय उरूंक ना. वाहनांतल्यान भोंवपाची इत्सा जायना. मागीर उरता ती एक पिशी आस्त, कोणेंय 'हांगच्यान हिंमालय नदरेक पडटा' अशें सांगल्या बराबर नदरेन कुपां, धुंवरी बी कुशीक काडपाचो यत्न करीत हिमालयाचीं तेमकां सोदपाची.

दनपरां आमी दोचुला म्हणटात ते खिंडीच्या माथ्यार पावले. १० हजार पांचशें फूट उंचायेर आशिल्ल्या मेरीपुपन्सून रिसोर्टांत आमच्या दनपारच्या जेवणाची म्हळ्यार लंचची वेवस्ता केल्ली. हांगच्यानूच आमकां मसानगांग हो बर्फान माखिल्लो हिमालयाचे रांकेंतलो पर्वत आनी भूतानचो सगळ्यांत व्हडलो पर्वत गांगकार पुयेन्सु दिसपाचो. पूण धुकें आमची फाट सोडिनाशिल्लें. 'जारे चल उड जारे' करीत हांव दोळे ताणून मुखार खंय चोमोल्हारी दिसता काय पळयतालों. अशें पळयत रावत जाल्यार त्या धुक्यांत लेगीत पयस बर्फाळ पर्वतांचीं तेमकां दिशिल्ल्याचो दोळ्यांक भास जावंक लागता. उचंबळीत जावन 'पळय, पळय बर्फाचीं तेमकां, चोमोल्हारी पर्वत' बी म्हणपाची उर्भा येता. ते परस भितर वचून जेविल्लें बरें म्हूण तो नाद सोडून

थंडेन कुडकुडत भितर येवन पळय जाल्यार थंय आमच्या कुकान, राजकुमारान एका फॉरेनराची बोब घाल्ली. ताणें मिरसांगो बी मुड्डून सोलांची कडी नांवाचें तिवळ करून दवरिल्लें आनी तिवळांतलीं सोलां काडून कुशीक दवरिल्लीं. आमी गोंयकार तें घेतात म्हूण बुफे घेवंक रांकेंत आशिल्ल्या त्या विदेशीन तीं सोलां आनी मिरसांगोय चाबडायल्यो आनी हुयेल्यो मारपाक कॉमेस केल्लें.

ह्या रिसोर्टांत जेवन आमी मुखार सरलीं आनी रिसॉर्टाच्या फाटले वटेन बस थारायली. बसींतल्यान हांगा मेरेन येतना लेगीत म्हजी नदर चोमोल्हारी, गांगकार पुयेन्सू बी पर्वत सोदताली. पूण धुक्यांक लागून फुडलें कांय फुटांवेलें दिसऽ नाशिल्लें. बसीचो ड्रायव्हर दोळ्यांत बोटां घालून कसो बस चलयतालो, इंचा इंचान धुकें आसा, आपल्याक मुखावेलें दिसना म्हूण तो रावंकय शकना आसलो. फुडलें सगळें श्येड्यूल चुकपाचें! कोल्याक दाकां आंबट तशें म्हजेंय जाल्लें. हांवें त्या पर्वतांचें दर्शन करपाचो नाद सोडलो. ह्या एक्काय पर्वतांचेर भूतानचो एक्कूय मनीस पावंक ना अशें तो ड्रायव्हर सांगतालो. ते पर्वत पवित्र पर्वत खंय! तांचेर फक्त दैवतांच वास करतात. ते म्हजे नदरेक लेगीत पडपाचें भाग्य म्हाका नाशिल्लें ताचें कारण म्हज्यांत अपवित्रताय भरल्या आसूं येता, त्या धुक्यांक, कुपांक दोश दिवन अर्थ ना अशें चिंतून हांव गप्प बसलों.

बस जंय उबी केल्ली आनी आमकां देंवात म्हूण सांगिल्लें थंय कितें पळोवपा सारकें आसा हाचो अदमास थंयसल्ले दाट धुंवरेक लागून लागनाशिल्लो. हांगाच जर देंवपाचें आशिल्लें जाल्यार बसींत चडयल्ले कित्याक? चलून येवं येतालें न्हय हॉटेलांतल्यान! असो विचार करीत हांव सकयल देंवलों.

बसीचे हारशे बंद आशिल्ल्यान भायर थंडसाण आसा म्हणपाचें कळनाशिल्लें. सकयल देंवल्या बरोबर कुडोकुडो खालो. आमची बस दाट्ट कुपांनीच उबी आशिल्ली! आमकां सांसपीत कुपां वतालीं आनी आमकां चडांतचड शीं खावयतालीं! मदींच शेदाचो पड्डो कुशीक सरचो तशें हें धुकें विरळ जातालें आनी तातूंतल्यान लांब, लांब कोंड्यांक लायिल्लीं रंगरंगयाळीं कपड्यांचीं बोंदेरां फडफडटना दिसतालीं. ते भायर आमी चवथीक मखरा कडेन लायतात तसलीं फोलींचीं बोंदेरांय दाटायेन लायिल्लीं दिसतालीं. पुराय भूतानाक हीं अशीं बोंदेरां जळामळाक दिसतात. भूतानच्या मळबांतले निळायेचे, दोंगराच्या आनी भूंयेच्या पांचव्या रंगाचे फांटभूंयेर हे तरातरांचे कोर दोळ्यांक भूल घालतात.

आमी आतां जे सुवातेर, ज्या पर्वताच्या म्हळ्यार दोचुला खिंडीच्या ह्या माथ्यार धुक्यांत उबे आशिल्ले थंय लिपिल्ले १०८ चोर्तेन दिसताले. भूतानाक झोंग आनी चोर्तेन जळामळाक भरल्यात. झोंग हे बांदावळीन किल्ल्यावरी दिसतात. चोर्तेनचीय बांदावळ लागीं लागीं तशीच आसता. पर्वतांच्या तेमकांचेर सामकें मोक्याचे सुवातेर म्हणटात तशे हे झोंग आनी चोर्तेन म्हळ्यार स्तुप सामके किल्ले कशे दिसतात. चोर्तेन वो स्तुप देवाच्या नांवानूच बांदूंक जाय अशें कांय ना. ते कसल्याय कारणांक बांदू येतात. राजांच्या, संतांच्या, लामांच्या आत्म्याक शांती मेळची म्हूण, देंवचार, भुतां वो धोक्याचे सुवातेवेल्या भंयांतल्यान मुक्ती मेळचे पासत, वो थंय घडिल्ले खंयचेय म्हत्वाचे घडणुकेची याद म्हूण हे स्तुप बांदतात.

आमी हे दोचुला खिंडीच्या तेमकार रावून धुक्यांत लिपिल्ले जे १०८ स्तुप म्हळ्यार चोर्तेन पळयताले ते हालींच २००३ वर्सा बांदिल्ले खंय! १०८ हो बुध्द धर्मीयांक खूब पवित्र आनी म्हत्वाचो आंकडो. तांचे प्रार्थनेक पुर्णताय १०८ संखे उप्रांत येता. तेच पासत ह्या चोर्तेनांची संख्या १०८ केल्या. पयलीं हांगा एक चोर्तेन आशिल्लें. पूण मागीर भूतानांत धुसफूस सुरू जाली. भूतानान हे आदीं सुमार देडशें वर्सां कसलेच तरेची अशांतताय पळोवंक नाशिल्ली. १८६४-६५ ह्या काळांत भूतानच्या पयल्या राज्याच्या बापायन तोंगसा पेनलॉप जिगमे नामग्येल हाणें ब्रिटिशांआड दुवार हांगा झुंज करून शांतताय हाडिल्ली. त्या उपरांत हालीं हालीं २००३ सालांत पिडापीड सुरू जाल्ली. भारतांतल्या ईशान्येकडल्या प्रांतांतल्या आतंकवादूयांनी दक्षिण भूतानच्या जंगलांत ठांड मांडिल्लें. थंयच्यान ते भारतीय शिमेचेर आतंकवादी करण्यो करताले. तेन्ना ताणीं भूतानची सुवात सोडची, भूतानचे भूंयेवेल्यान भूतानच्या घट इश्टाआड-भारताआड कसलीच करणी करची न्हय अशें फर्मायलें. पूण आतंकवाद्यांनीं तें आयकलें ना. भूतान सरकाराक तांचे आड खर कारवाय करूंक झुंज करचें पडलें. हें झुंज जैतिवंत जावंचें, भूतान भुंयेवेल्यान जावपी आकांतवाद थांबचो म्हूण आंगवण केली. ते खातीर जे कोण ह्या झुजांत सोंपले तांची स्मृती म्हूण हे १०८ चोर्तेन थंय उबारले. आदलो एक आनी उप्रांतचे १०८ अशे हे एकेच सुवातेर बांदिल्ले १०९ स्तूप म्हळ्यार दोचुला वाठारांतल्या धुक्यांतली एक अजापाची नगरी कशी दिसता. ह्या चोर्तेन समुहाक ताणीं ड्रुक वांग्येल चोर्तेन म्हळ्यार ड्रुक ग्यालपोच्या जैताचे चोर्तेन अशें नांव दिलें. ह्या चोर्तेना मदीं रावल्यार सरभोंवतणच्या धुक्याक लागून थोड्या अंतरा फुडलें कांयच दिसना. दिसतात ते हे

स्तुप, तांच्या पांयांकडेन आशिल्लीं हळदुवींच फुलां. जसो प्रत्येक रंगरंगयाळो स्तुप त्या हळदुव्या फुलांचे कार्पेटीचेर सजयल्लो केक कसो दवरला. त्या स्तुपांचोच एक जुंवो 'जादू नगरी' कसो आसमंतात उफेता आनी एके वटेन लायिल्लीं रंगरंगयाळीं बोंदेरां फडफडट्टात तीं पळयत जाल्यार ते फाटभूंयेर तो वेगान मुखार वता सो दिसतालो.

आमचे गोंयकार वो हेर कडचे हिन्दू भक्त देवळा भोंवतणी फेरो मारतात तशे हांगचे लोक चोर्तेना भोंवतणी फेरो मारतात. चोर्तेन आपले उजवे वटेन दवरून ताचे भोंवतणी वांटकुळो फेरो मारून 'आगेलो', अशें म्हणटात. अशें केल्ल्यान तांच्या जिवितांतलीं भूतपिशाच्यां बी आसात तीं पळ काडटात असो तांचो विस्वास आसा. आमचेय मदले कांय जाण भोंवताडो मारीत 'आगेलोऽ' अशें आड्डतना ते धुंवटेंतल्यान आयकूंक येतालें.

हांगच्या, ह्या स्तुपांच्या चोंयवटेन आशिल्ल्या दाट जंगलांत वसंतरूतूंत खंय मॅग्नोतिया कॅम्पबेली आनी ऱ्होडोडेंड्रन रूखां वसंतरूतूंत शेकानशेक फुलतात. हवेंत एक सुगंध दरवळटा. चड करून दाफने ह्या रूखांचो. ह्या रूखांचो वापर कागद निर्माण करूंक करतात खंय! ही रूखावळ जेन्ना फुलता, हांगचो वाठार सुगंधान भरता तेन्ना मनाक कितली धुंदी चडटली काय हाची कल्पना रंगयत हांव फुडल्या प्रवासाक लागलों.

हांगाच दोचूला देंगणांत १७व्या शेंकड्यांतलें वांगडीफोदरंग नांवाचें झोंग आसा. थंय काय आमी वचपाचे नाशिल्ले. थंयच्यान मुखार वतना रस्त्याक आनीक एक फांटो फुटिल्लो. तो रस्तो फोबजिंका वतालो. फोबजिंका हो वाठार काळे मानेच्या बक्यां पासत फामाद आसा खंय! थंडेच्या दिसांनी संवसारभरचीं काळे मानेचीं हीं बकीं काय बळारी चोंब्यांनी हांगा येवन वसतेक रावतात. हांगचे लोक ह्या बळारींची वाट पळयत रावतात खंय! तांकां हे लोक पवित्रतायेचें प्रतिक मानतात. हे क्रेन जेन्ना हांगा ह्या फोबजिंका वाठारांत येतात आनी वाठार सोडटात तेन्ना थंयच्या झोंगाक तीन खेप भोंवताडे काडटात खंय! बस चलयतां चलयतां आमचो ड्रायव्हर म्हायती दितालो. ही गजाल सांगपी त्या ड्रायव्हरान ही आख्यायिका घडयल्या काय खरेंच ते पक्षी तशे भोंवताडे मारतात काय? हें पळोवपाची संद म्हाका नाशिल्ली. पूण तो म्हायती दिता ती आयकूंक कितें जाल्लें!

पुनुाखांतलें सगळ्यांत राजेशाही वो म्हणुया पुराय भूतानांतलें ऐश्वर्य म्हळ्यार

पुनाखा जिल्ह्यांतलें पुन्थांग देचेन फोदरांग झोंग जाचो अर्थ अत्यानंदाचो महाल असो जाता. खऱ्यानीच ह्या झोंगांत भितर सरतकूच न्हय तर पयसुल्ल्यान दर्शन घेतल्यार लेगीत अंतस्कर्णांतल्यान खोस भरून ओतता म्हणपाचो भास जाता. भूतानांतले प्रत्येक बांदावळीची स्थापत्यकला, शिल्पकला ही अतिसुंदर, ओडलायणी. दरेक घर आपले खाशेले अशे भूतानी शैलीन, लाकडांचो वेवस्तीत वापर करून, तांचेर कला कुसर बी करून सजयल्लें आसता. पूण सगळ्या इमारतींचो रंग एकूच. आकार एकूच. जाका लागून पुराय नगर रचनेंत एकसारकेपण दिसून येता. तरी लेगीत पुनाखांतलो हो फोदरांग मठ सगळे बांदावळींवेलें थीक अशेंच म्हणूंक जाय. भूतानांतल्यो दोन मुखेल न्हंयो म्हळ्यार फोच्चू आनी मोच्चू. ह्या दोनूय न्हंयांच्या संगमाचेर हो मठ आसा. जशी कितें न्हंयेंत एक व्हडली बोट नांगरून उबी आसा अशें पयसुल्ल्यान पळयल्यार दिसता. हो मठ म्हळ्यार भूतानचो इतिहास. १६३६ सालांत भूतान राज्याचो निर्मातो झाबद्रुंग नग्वांग नामग्येल हाणें तो बांदिल्लो.

नामग्येल हाणें हो मठ हांगा बांदपाचें कारण म्हळ्यार गुरू पद्मसंभव हाणें आठव्या शेकड्यांत तशें भाकीत केल्लें खंय! ताणें सांगिल्लें खंय एक तरनाटो जाचें नांव नामग्येल आसतलें आनी तो न्हिदिल्ल्या हतयावरी दिसपी पर्वताकडेन येतलो आनी सोंडेचें पोंत जंय आसा ते सुवातेर मठ बांदतलो. नामग्येलान गुरूचें भाकीत खरें केलें.

एक ल्हानसो झुलतो पूल काडून वतकच हो मठ लागता. सगळेवटेन निळ्या गुलमोहराचीं झाडां. तांचेमदीं दोन न्हंयानी हांडीर घेतिल्लेवरी हो मठ. बालेप नांवाच्या एका थवयान ह्या मठाचो आराखडो तयार केल्लो. बुध्दाचे मूर्ती मुखार न्हिदिल्लो आसतना ताका सपनांत हो आराखडो दिसलो खंय! १८० मिटर लांब आनी ७२ मिटर रूंद अशा ह्या मठाच्यो वणटीच चिऱ्यांनी बांदिल्ल्यो दोन मिटर रूंदायेच्यो आसात. दोरीचूम हे देवीन जी थंयची संरक्षक देवता आसा तिणें पालसणां कोसळायलीं आनी ह्या मठाक फातर फैदासून दिले अशी दंतकथा थंयचे लोक सांगतात.

पुनाखांतलो हो मठ खूब खेपे भूंयकांप, हुंवार आनी उज्याचे भकीक पडला. हालींच १९८५ वर्सा ह्या मठाक उजो लागिल्लो आनी तातूंत मठाचो खूबसो इबाड जावन गेल्लो. ताका पर्थून मुळावें रूप दिता म्हणसर १९९४ वर्सा हुंवार येवन मठाचो इबाड करून गेल्लो. पूण ताची देखभाल आनी सुदारणा करपाचें काम प्राधान्यतायेन

चालूच आसता. भूतानचे भूंयेर पावल दवरले बराबर पयली नदर ओडून घेता तें हांगची स्थापत्यकला-आर्कीटेक्चर. मागीर लक्ष वता तें मठांचेर आनी स्तुपांचेर. मोक्याचे सुवातेर, सप्प करून नदरेक पडचे अशे सुवातेर हे मठ भूतानांत जळामळाक दिसतात. भूतानांतले मठ म्हणल्यार भूतानी मनशांमदीं रूजवणा आयिल्ल्या धर्मीक आनी धर्मनिरपेक्ष जीवन पध्दतीचें प्रतीक अशें म्हणत जाल्यार अतिताय जावची ना. हांगचे हे एकान एक मठ म्हणल्यार देश संरक्षणाचे, आत्म संरक्षणाचे किल्लेय आनी धर्मथळांय बी.

पुनाखांतलो पुन्थांग देचेन फोदरांग झोंग हो भूतानांतलो सगळ्यांत पोरणो मठ. ह्या मठाक भूतानी इतिहासांत आगळें म्हत्व आसा. हो मठ भूतान राज्याचो संस्थापक झाबद्रुंग नामग्येल हाणें १६३७त बांदिल्लो. १६५१त झाबद्रुंग ह्या संवसाराक अंतरलो. ताची कूड ह्या मठांतल्या माचेन झिमचू ह्या पवित्र देवळांत जतन करून दवरल्या. हे कुडीचें दर्शन घेवन ताची प्रार्थना केले बगर भूतानचो राजा आनी जे खेन्पो आपल्या वावराक आरंभ करिनात. ह्याच मठांत भूतानच्या पयल्या राजाचो १९०७ वर्सा उग्येन वांगचूक हाचो राज्याभिषेक जाल्लो आनी हेच सुवाते वेल्यान ताणें भूतानची राजेशाही संपुश्टात हाडिल्ल्याची घोशणा केल्ली. भूतानच्या राष्ट्रीय विधानसभेचें पयलें अधिवेशन १९५२ वर्सा हेच सुवातेर जाल्लें.

फोदरांग झोंगाचेर वचूंक आमी ज्या पुलाचेर उबीं आशिल्लीं तो लाकडी पूल मोच्चू न्हंयचेर आशिल्लो. पूल म्हणल्यार एक लाकडी सांकवूच म्हणल्यार जाता. ती न्हंय हांगा आखूड अशी आशिल्ली आनी मागीर मुखार व्हांवत वचून झोंगाचे दुसरे वटयां व्हांवत येवपी फोच्चू न्हंयक मेळटाली. मागीर ह्यो दोनूय न्हंयो एकामेकाचे हात धरून थोडें अंतर चलताल्यो आनी मागीर एकमेकांत मिसळून एकजीव जावन खळखळत मुखार सरताल्यो.

फोदरांगचो हो पूल म्हणल्यार सुंदरायेचें एक मोस्त्र. लाकडी सांकवूय सुंदर, कलात्मक आसूं येता हाचो तो एक साक्षात्कार आशिल्लो. आमी त्या पुलार गणयताले, फोच्चू आनी मोच्चू ह्या न्हंयचो उगम खंय जाला ताचो सोद लायताले. फोदरांग मठ जे सुवातेर वसला ती सुवात हे लोक सांगतात तशी हतयाचे सोंडेचें पोंत कशी दिसता काय? मुखावेलो ऐसपैस पर्वत जमनीक तेंकयल्ले हतयाचे तकलेवरी दिसता काय हाचो अदमास घेताले.

पुलार रावून सकयल मोच्चू न्हंयत पळयत जाल्यार पुला पोंदच्यान खळखळत

व्हांवपी उदक खऱ्यानीच धवें भांगर कशें दिसतालें. भूतानी लोकांनी भूतानच्या न्हंयाक धवें भांगर दिवपी खणी म्हणलां तें बेश्टेंच न्हय! हांव ज्या पुलार उबो आशिल्लों थंयच्यान लागींच पलतडीं फोदरांग झोंग दिसतालो. सांकव म्हणटकच तो सात-आठ मिटर आसूंक जाय. फोदरांग झोंगाची भव्यताय नदरेक भरताली. मोच्चू न्हंयचे धडेर एके रांकेन उबीं आशिल्लीं, निळ्या निळ्या फुलांनी भरगच्च भरिल्लीं, निळ्या गुलमोहराचीं कशीं दिसपी ह्या रूखां फाटल्यान उबो आशिल्लो हो रंगरंगयाळो भव्य-दिव्य असो मठ. थंयची रंगसंगती पळयत रावतना सगळेंच अप्रूप अप्रूप शें दिसूंक लागता.

आमी पुलार गणयताले. मठांत भितर सरचे आदीं भायली सुंदराय नियाळटाले. आमचे वरींच कांय विदेशी पर्यटकूय थंय गणयताले. फोटोय काडटाले. हो लाकडी पूल म्हणल्यार गांवच्या लोकांची मेळपाची सुवात कशी, वो ल्हानसो बाजार कसो जावंक जाय. पुलाचेर दोनूय वटयां कोणकोण कितें कितें विकताले. कोण भाजी विकताले तर कोण आनीक कसल्यो वस्तू! शांतपणान सगळें चलतालें. पूण ह्या सगळ्या वेव्हाराचेर मात्तूय लक्ष नासतालें तें पुलावेल्यान यो वच करपी लामाचें. ते आपल्याच विचारांत, आपले एके खाशेले गतीन चलताले. सांकवाचेर कितें चल्लां हाचेर तांचें लक्ष आशिल्लें काय खबर ना. पूण 'ते निळ निळसे धुंवरे पेल्यान, दिसभर लागलां थंयसर ध्यान' अशें म्हणिल्लेवरी तेच भावमुद्रेन हे लामा त्या निळनिळश्या फुलांनी भरिल्ले रुखावळीच्या फाटल्यान आशिल्ल्या मठाचेर आपलें ध्यान केंद्रीत करून तुरूतुरू चलताले.

हे भूतानचे लामा, भिक्खू बी म्हणल्यार भूतानी लोकांचेर, तांच्या जिविताचेर प्रभाव घालपी आकांत शक्त म्हणपाची जाणविकाय भूतान भोंवता आसतना पावला पावलाक जाता. तेच पासत भूतानाक मठांची, मंदिरांची, स्तुपांची रास जाल्ली आसा. पुराय देशभर खंय दोन हजारां परस चड मठ हांगा थंय शिंपडिल्ले आसात. इतलेंच न्हय, हांगचीं घरां लेगीत पयलेच नदरेक मठूच कशीं दिसतात. हांगा मठ, स्तुप हांचें पुनर्वसन करपा खातीर सरकारी पातळेर प्राधान्य मेळटा हें जेन्ना आयकलें तेन्ना भूतानचेर बौध्द धर्माचेंच वर्चस्व आसा हाची खात्री जाली आनी तें लटीकय नाशिल्लें.

भूतानच्या दिसपट्ट्या जिविताचेर आध्यात्मिक संस्कृतायेचो खूब मोठो प्रभाव पडिल्लो आसा. सरकारी कामकाज, वेव्हार लेगीत हातूंतल्यान सुटूंक ना. राज्य

पुरस्कृत अशें जाका म्हणूं येता वो पुराय सरकारी तेंक्यार निंबून आशिल्ल्या भिक्खू संघाचो वावर भूतानभर चलता. सुमार पांच हजार भिक्खू आशिल्ल्या ह्या संघाचो एक मुखेली आसता. ताची निवड केंद्रीय धर्मसंबंदीची समिती करता. निवड जाल्लो हो मठाधिपती भूतानचो अध्यात्मिक मुखेली आसता. ताका जे खेन्पो म्हणटात. सद्याचो जे खेन्पो हो भूतानचो ७०वो जे खेन्पो खंय!

आतांच्या ह्या २१ व्या शेकड्यांत लेगीत भूतानांत ह्या बौध्द भिक्खूचें, भूतानचे सामाजिक जिणेचेर वर्चस्व आशिल्लें दिसता. हांगच्या खंयच्याय उत्सवांत, धर्मकार्यांत ह्या भिक्खूंची मुखेल सुवात आसता. लोकांक मार्गदर्शन करप, सल्लो दिवप, सांत्वन करप अशीं सगळीं कामा हे भिक्खू आपलेपणान करतात.

भूतानांत भिक्खूंची काळजी घेवप हें भूतानी लोक आपलें कर्तव्य मानतात. हांगच्या तिनेक हजार भिक्खूंक खाजगी आदार मेळटा. हांगा उबंत पडिल्ल्या अशक्त भिक्खूं खातीरूय संस्था आसा. ह्या भिक्खूंक गोमचेन्स म्हणटात. हे गोमचेन्स आपल्या कुटूंबा सयत रावतात. ते धर्मिक ज्ञान साधना करतात, प्रार्थनासभा आयोजीत करतात, हेर धार्मिक वावरांतूय हातभार लायतात. गांवागांवानी भोंवून बुध्दमताचो प्रसार करतात.

भिक्खू हे भिकारी न्हय, ते उच्च शिक्षीत आसतात. तांकां समाजा कडल्यान मान सन्मान मेळटा. कसलेय धोरणावळींत तांच्या मताचो प्रभाव आनी वांटो आसताच. आतां तर ताणीं राष्ट्रीय जीवनमानाचेर लक्ष दिवपाक आरंभ केला. रासवळ भलायकी, कुटूंब नियोजन आनी एड्सविशींची जागृताय घडोवन हाडटनाच तो कसो टाळूं येता हाचीय म्हायती हे भिक्खू गांवांगांवांनी दीत भोंवतात. बरें, जे सामकेच थकल्यात, असक्त जाल्यात ते ह्या मठांनी वो जंय जंय म्हूण चुकोर म्हणल्यार प्रार्थना चक्रां आसतात तीं चक्रां घुंवडायत बसतात.

मोच्चू न्हंयेवेलो सांकव हुपून आमी मठाच्या प्रांगणांत भितर सरलीं. हो लाकडी सांकव जंय सोंपतालो थंयच फोदरांग मठाचें प्रवेशदार आशिल्लें. त्या मठांत वयर वचूंक लाकडी जिनो आशिल्लो. जिनोय कसलो? देवा सायबा! सरळ उबो, निसण कसो! पायऱ्योय व्हडल्यो व्हडल्यो. सात मिटर उंचायेचो हो जिनो त्या मठांत भितर सरपाच्या भव्य अश्या दारा मेरेन वतालो. चडप कशें आतां? हांव माकड कसो अक्षरशा हाता पांयाचो वापर करीत वयर चडलों आनी सुटलों बाबा, पावलों एकदांचो म्हणत उस्वास सोडलो.

प्रवेशदाराकडेन उबो रावून भायर नदर भोंवडायली. मठाच्या प्रांगणांत बोंदेरां लायिल्ले खांबे आनी हेर सजावट आशिल्लीच. सगळ्या मठांच्या प्रांगणांत उबो करतात तसो हांगाय 'सोकशींग' उबो केल्लो. सोकशींग म्हणल्यार एक व्हडलो लाकडी खांबो.जाका 'जिवित रूख' अशेंय म्हणूं येता. हो खांबो सर्ग आनी धर्तरेक प्रतिकात्मक जोडटा.

त्या खांब्याचेर नदर थिरावन ती वयर सर्गा मेरेन व्हरत, पर्थून मठाचेर हाडली. हांव जंय उबो आशिल्लों तें दार आकांताचें, गडगंज आशिल्लें. हे झोंग जरी धर्मस्थळां आसलीं तरी ते मठ अरिश्टाच्या वेळार, परकी आक्रमणाच्या प्रसंगार जनतेची राखणूय करूंक वापरतात खंय! मठ म्हणल्यार एक सशक्त किल्लोच म्हणपाक हरकत ना. परकी आक्रमणा वेळार हो जो सरळ उबो सात मिटर उंच जिनो आशिल्लो तो खंय थंयच्यान काडून उडयतात. म्हणटकच शत्रू मठांत भितर सरूंक पावनात. मागीर तें गडगंज दार बंद करतात.

हांव त्या दाराचो रंग, ताचेर कोराथिल्ली कला पळयत पळयत मान घुंवडायतालों. मान वयर करून मठाच्या छताचेर नदर व्हेल्या मात, म्हजो आवरो उडलो. त्या छताक दाटायेन कितलीं तरी म्होंवापोळीं लागिल्लीं. इतलो वेळ घूंऽऽ करून आवाज म्हज्या कानार पडटालो तो हांव त्या मठांतलो मंत्रध्वनी बी आसतलो अशें धरून चलतालों. पळय जाल्यार हे म्होंवा मूस थंय नाच करताले. तांका पळयल्या बराबर हे आदीं गोंयांत आनी हेर कडेन म्होंवा मूसांनी हल्लो करून जखमी केल्ल्या, मेल्ल्या लोकांची याद त्या थंयच्या प्रार्थना चक्रावरी मनांत घुंवत रावली. कोणेंय चुकून ह्या मुसांक डिवचले आनी ताणीं म्हजेर हल्लो केलो जाल्यार? थंय हांव एकटोच नाशिल्लों. खूबशे लामा आशिल्ले, हेर भोंवडेकार आशिल्ले. तांकां सोडून हे मूस फक्त म्हजेरूच तुटून पडपा नाशिल्ले हें जरी खरें आसलें तरी भंय वतलो कसो मनांतलो? हेर लोक थंय कशे वावुरतात काय, माथें उन्नत करीत भंया विरेंत? टागोराची कविता वाचल्या काय ताणीं?

हांव थंय चड वेळ रावलोंना. त्या दारांतल्यान भितर सरून भितरल्या प्रांगणांत आयलों. चारूय वटांनी मठाच्यो गडगंज वणटी. एकेक वणत खंय दोन-दोन, तीन-ती मिटर रूंदायेची. तोफेचो गुळो आयल्यार लेगीय कांयच इबाड जावपाचो ना. ह्यो वणटी सरळ वयर मेरेन कितल्योशोच माळयो करता. मठाच्या चारूय वटयां लामाक रावपा पासत कुडी, पूजे खातीर सभाघरां, मदीं व्हडलीं व्हडलीं प्रांगणां. वणटीनी

वेढायिल्लीं. वणटीक व्हडलीं व्हडलीं जनेलां. सकयल रूंदाय कमी. वयर वता तशीं रूंदाय वाडत वता. लाकडी कला कुसरीचो वापर करून केल्लीं हीं जनेलां, तांची ही मांडणी भरपूर उजवाड भितर हाडटात.

जे सुवातेर हो फोदरांग मठ आसा तो झाबद्रुंगच्या काळावेलो आसलो तरी ते आदीं चोवदाव्या शतमानात वनरत्न ह्या नामनेच्या भारतीय बुध्दीश्ट धर्मगुरून हांगा तपश्चर्या केल्ली खंय! ताका भूतानी लोक न्गांगी रिंचेन म्हूण वळखतात. ताणें तपश्चर्या करपा पासत हांगा पयलीं ल्हानशी देवळी बांदिल्ली जाका झोंगचूंग म्हणल्यार माणकुलें झोंग अशें म्हणटात. ते सुवातेर ताणें बुध्दाची मूर्ती बसयल्ली. ती मूर्ती अजून थंय आसा. हें झोंगचूंग मदल्या काळार बुडटी आनी हेर अवर्शणाक लागून कितले खेप इबाड जावन गेलें तरी बुध्दाची मूर्त थंयचे थंयच आसा. हेच सुवातेर मागीर झाबद्रुंग नामग्येल हाणें गुरू पदम्‌संभवान भाकीत केल्ल्या प्रमाण हो मठ उभारलो.

पुनाखाच्या ह्या फोदरांग मठांत तीन प्रचंड अशीं प्रांगणां आसात. एक प्रांगण मठवासी भिक्खू पासत... हांगा प्रार्थना घरां, मंदिरां आनी तांका गरज आशिल्ल्या हेर वास्तूंची उबारणी केल्ली आसता. ह्या मठाच्या शेवटाक माचेन झिमचू आसा. हें मंदीर म्हणल्यार झाबद्रुंगाची कूड जतन करून दवरिल्ली सुवात. कूड सांबाळून दवरपा खातीर लागपी रसायनान ती रेवडायल्या आनी एके पेटयेंत ती दवरल्या. हे कुडींत वचपाक कोणाक मान्यताय ना. फक्त राजा आनी जे खेन्पो हांगा प्रवेश घेवंक शकतात. ताची निगराणी करपी दोग जाण थंयच आसतात ही वेगळी गजाल. हांगच्या दरेक मठांत झाबद्रंग, गुरू पद्मसंभव म्हणल्यार रिंपोचे हांचे पुतळे आनी सद्याचो राजा हांचो फोटो ठळकपणान दवरिल्ले आसतात. सगळ्या मठांची ही खाशीयत. पूण हो पुनाखाचो फोदरांग मठ सगळे नदरेन आगळो वेगळो.

हांगच्या दरेक मठाचेर आनी स्तुपाचेरूच न्हय तर खासगी घरांचेर लेगीत रंगीत चित्रां पितारिल्लीं दिसतात. तांचो विशय चार मित्रांचो. हे चार मित्र म्हळ्यार हत्ती, माकड, मुंगूस आनी शेवणें. ही एक दंतकथा. हत्ती कितलोय सशक्त आसलो तरी ताका फळां खातलो जाल्यार दुसऱ्याची गरज आसता... ताका तें झाडावेले माकड काडून दितात. हीं फळां अशींच काडून सोंपयलीं जाल्यार रूखां सोंपतलीं. देखून तांची वाड जावंची म्हूण शेवणीं फळां खावन बियो जळामळाक शिंपडायतात आनी तीं बियां जमनीं भितर पुरपाचें काम मुंगूस करता. हो प्रतिकात्मक संदेश म्हळ्यार ह्या

सैमांत कोणूय कितलोय सशक्त आनी दुर्बळ आसलो तरी एकमेकाच्या आदारान जिवीत सारपाक जाय.

बुध्दाच्या जिवितांतल्यो चारूय मुखेल घडणुको झाडा पोंदाच घडल्यात. जल्म लुम्बीनी जालो. ताका गिन्यान प्राप्ती जाली ती बोध गयेक, बुध्दान पयलें प्रवचन दिलें तें सारनाथच्या जंगलांत आनी मृत्यू आयलो तो काशिनगराक. हेच पासत बुध्द धर्मांत रूखावळीक खूब म्हत्व दिल्लें दिसता. ताचो संबंध आशिल्ल्यो दंतकथा चित्ररूपान सगळी कडेन पितारिल्ल्यो दिसतात.

त्या चित्रां वांगडाच आनीक एक चित्र वण्टींचेर रंगयल्लें दिसता तें दादल्याच्या लिंगाचें. ताका पाखां लावन तें उडटा, तातूंतल्यान विर्याचें संक्रमण जाता अशीं तीं चित्रां नदर ओडून घेतात. आमच्या सारख्यांक सुर्वेक ती नाळ कशी दिसता. मागीर बारकायेन पळयत जाल्यार तें लिंग म्हणपाचें कळटा.

हांगां लिंग पूजा चलता. प्रत्येकाच्या दारांत लिंगाची प्रतिकृती उबी केल्ली आसता. कांयकडेन मलखांब कशी प्रचंड व्हडली जाल्यार कांय घरांनी गंधाची कांडी आसता तेदी. कांय प्रतिकृती तांबड्या, हळदुव्या रंगाच्यो. तांकां दोळे, कान, नाक, दांत बी कोरातिल्ले आसतात.

आमी हांगा पुनाखा जिल्ह्यांत पावऽ मेरेन हेरकडेन आमकां वण्टींचेर चित्रायल्लीं लिंगा दिसूंक नाशिल्लीं. थिम्पू शारांत कांय कडेन हस्तकारागिरीच्या दुकानानी हीं रंगरंगयाळीं लिंगां विक्रेक दवरिल्लीं. हांगा पुनाखांत दरेक इमारतीचे वण्टीचेर हें चित्रकाम केल्लें दिसतालें. आमी च्या पिवपाक म्हण एका हॉटेलांत भितर सरलीं. हॉटेल कसलें? घरूच तें. अर्दें घर हॉटेलांत रूपांतरीत केल्लें.

आमच्या येवकाराक दारांतूच एक भूतानी ललना किरा न्हेसून उबी आशिल्ली. हांसत्या मुखामळान. तिणें उजवो हात जाचेर दवरिल्लो तें ताचे कंबरे मेरेन पावता इतले उंचायेचें लिंग आशिल्लें. बऱ्या प्रतिच्या लाकडाचें, बरेंऽ सुळसुळीत तासून बी! आमच्या मदल्या बायलांनी तें पळयलें आनी 'खूऽक्क' करून हांसत मान दुसरेकडेन वळयली. पूण ह्योच बायलो भारतांत शंकराच्या देवळांत लिंग अभिषेक मात भक्तीभावान करतात. दुदाची धार ओतीत तें लिंग आपल्या हातांनी धुतात. हांगा भूतानी बायलोय तितलेच सहजतायेन लिंगपूजा करतात. तातूंत हांसपा सारकें कितें आसा?

ती ललना त्या घराची मालकीण आशिल्ली. थंय तिणें लाकडाच्या लिंगां वांगडाच हेर आनीक जायत्यो वस्तू विकपाक दवरिल्ल्यो. जे कोण ॲन्टीक वस्तूंचे मोगी आसतात त्या विदेशी लोकांच्या गळ्यांत त्यो बांदपा पासत. हांव एकेक वस्त नियाळीत तिका तांचें मोल विचारतालों. आमच्या पंगडा मदलो हांवच एक खरो विदेशी दिशिल्ल्यान तीय इंटरेस्ट घेवन खंयची वस्त कितली पोरणी आनी मागीर तिचें दाम सांगताली. बापायली किंमत सांगून मागीर मोलावणी करपाक सांगप ही चाल सगळेच कडेन आसा. म्हाका तातूंतली एक्कूय वस्त घेवपाची नाशिल्ली. पूण हांगची याद म्हूण एक बरेंऽशें रंगीत लिंग हांवें विकतें घेतलें. तें घेतां घेतां ह्या लिंग प्रथेचो वो परंपरेचो इतिहासूय जाणून घेतलो.

अकराव्या आनी बाराव्या शेकड्यांत तिबेटांतल्यान लामा मोठे संख्येन भूतानांत स्थलांतर जावंक लागिल्ले. ते हांगा भूतानांत येवन स्थायीक जाताले. हो काळ बौध्द धर्माच्या प्रसाराचो काळ आशिल्लो. हो धर्म प्रसार सुरू आसतनाच थंय ड्रुक्पा किनले नांवाच्या संताचो उदय जालो. हो संत पुराय भूतानांतल्या लोकांच्या मोगाचो संत आशिल्लो. ताणें बौध्द धर्माचो प्रसार हो एक प्रकारचो रूक्ष प्रकार म्हणपाचें पारखिलें. तातूंत भूतानी लोकांचे जिणेंत रूक्षपणा रिगूंक शकता हें ताणें पारखिलें. ताणें पारंपारीक रूढी, प्रथा बी सगळ्यो भायर मारल्यो. बुध्दाचीं सत्यां, अध्यात्म आनी हेर मुल्यां हांचेकडेन सर्वसामान्य लोकाचें लक्ष ओडून घेवपाक, धर्म शिक्षण दिवपाक ताणें कामक्रिडेंतल्यो काणयो रचून त्या माध्यमाचो वापर सुरू केलो. ताचे ते काणयो सांगपाचे कुशळतायेन लोकांक पिशें लायलें. कामशास्त्राचें म्हत्व आनी ताची समाजांतली गरज तो लोकांक कसलीच भीड मूर्वत बाळगिनासतना धैर्यान सांगतालो. तो गायतालो, काव्य करतालो. तातूंत विनोदाचो आसपाव आसतालो. लोक ताका 'दैवी आवटो, दैवी पिसो' हे नदरेन पळयताले. तरी ताचे भक्त जाताले.

आपले विचित्र आनी अजापाचे करणेन ड्रुक्पा किनलेन त्या लोकांचेर मोनेळ सो घालो. खास करून पुनाखा जिल्ह्यांतले लोक ताका देव मानून पुजूंक लागले. काम हें मानवी जिवितांतलें म्हत्वाचें आंग, ताचें ताणें उदात्तीकरण करून सामाजीक प्रतिश्ठा दिली. भूतानची संस्कृताय हेच पासत अध्यात्मीक खोलाय लाभिल्ली आसाच, तेच वांगडा तिका जिवितांतल्या सशक्त अश्या सत्याचो आधारूय आसा. भूतानांतल्या ह्या पुनाखा जिल्ह्यांतल्या घरांच्या दारांत लाकडाचें,

हेर धातूंचें वेगवेगळ्या आकाराचें दादल्याचें लिंग दिश्टी पडटा ताका, आमच्या दारांत तुळस वा खुरीस आसता तांकां जितलें म्हत्व आसता तितलेंच म्हत्व आसा. वण्टीवण्टींचेर पांखां लायिल्लीं उडट्या लिंगांचीं, नाळींतल्यान गुळे भायर मोखून मारचे तशें विर्य मोखून मारपी पितारिल्लीं हीं चित्रां आमकां भारतीयांक विचित्र अशीं दिसतात जावं, पूण तांचे सामाजीक आनी सांस्कृतीक जिणेचें तें आंग थारलां.

आमी भारतीय लिंग पूजा, योनी पूजा करतात. शंकराच्या देवळा भायर योनी आनी लिंग हाची प्रतिकृती आसताच आसता. तेच तरेन हांगाय लिंग पूजा मोठ्या प्रमाणांत चलता. लिंगाची प्रतिकृती दारांत, घरांत आसत जाल्यार घराक आनी घरांतल्या मनशांकूय देंवचाराची बादा जायना खंय! हांगा बलात्काराचें प्रमाण कितलें? असो प्रस्न हांवें एकल्याक विचारलो जाल्यार वर्साक खंयीय एखाद्रो जालो जाल्यार जालो अशी जाप मेळ्ळी. हांगचीं बायलां किरा हो भेस वापरतात. तातूंतलें तांचें तें सोज्वळ रूप पळोवन, तांच्या तोंडावेलो हांसो पळोवन तांचेविशींची विकृती भोवतेक कोणा भितर निर्माण जावंक शकना जावंक जाय. आमचे मदल्यान एकल्यान तांचेर कमेंट मारीत म्हळें लेगीत! ह्या तांच्या किरा भितर कितें आसा तेंच कळना. मागीर किरयतलो कितें कपल!

पुनुखाच्यान आमी पारो आयलीं. पारो ह्या जिल्ह्यांतल्या देंगणांत पारो विमानतळ आसा. ड्रुक विमान सेवा हांगा चलता. आमी थंय पावलीं तेन्ना निकतेंच एक विमान देंविल्लें आनी रनवेचेर घोळटालें. हांगा विमान देंवतना विमानांतल्यान भुतानाचें सोबीत दर्शन जाता खंय! केन्नाय परत आयलों जाल्यार विमानान येवप आनी पळोवप असो मनांत विचार आयले बगर रावलो ना. पारोक आमी दोन राती काडपाचे आशिल्ले. आमची वेवस्ता जांका रिसोर्टांत केल्ली. सरभोंवतणी शेतांच शेतां, हीं शेतां चारूय वटेनच्या पर्वतांनी आपल्या पोशांत घेतल्यांत अशीं दिसतालीं. आमी ज्या रिसोर्टांत आयिल्लीं थंय तर अशी एकूय सुवात नाशिल्ली जंय फुलां नांत. गुलाबांच्या वेलीचीं आर्कां, व्हड व्हड ताजे टवटवीत, दोनूय हातांत मावचे नात येद्र्या व्हडल्या गुलाबांचे ताटवे. आनीक कितल्याऽ तरांचीं फुलां. शिंयाचो कुडकुडो. स्वेटर चडोवन लेगीत दांतार दांत वाजताले. कॉटेजी लेगीत सुंदर सजयल्ल्यो. पूण जमनीर फरशी नाशिल्ली. लाकडांचीं फळीं बसयल्लीं आनी चलतना स्प्रिंग बसयल्ल्यावरी वयर सकयल जातालें. गांवचे तात्पुरते फळयां स्टेजीर नाटक करतां असो भास जातालो.

हांगा सकाळीं पासयेक गेल्लेकडेन शेतकारां वांगडा गजालीय करूंक मेळ्ळ्यो. जेन्ना हांगा शेत पिकता तेन्ना सगळे गांवकार आपआपल्या कामगारांक घेवन दरएकल्याच्या शेतांत लुवणेक वतात खंय! लुवून जालें तशें, त्या शेताचो धनी, जाणीं लुवपाक आदार दिला तांचे खातीर एक व्हडली पार्टी करता खंय मागीर. हो सगळ्यांनी एकठांय जावन केल्लो वावर म्हळ्यार एक उत्सवूच चलता थंयसर! घरांचें बांदकाम चलता आसतनाय पुराय गांव एक जावन घर बांदपाक हात-बोट लायतात. आमच्या गोंयांतूय हांवें म्हजे भुरगेपणार असलोच प्रकार पळयल्लो. पूण आतां कोणूच एकमेकाक वळखना. भूतानाक ही रीत तिगल्या. तशीच तिगून उरची अशी एक प्रार्थना म्हजे मनांत उदेली.

ही प्राथना कित्याक? भूतानान जी आपली फिलॉसाफी मानून घेतल्या, जें तत्वगिन्यान आपणावन ताची देख संवसारा मुखार दवरल्या तें जीएन्एच् धोरण म्हळ्यार ग्रॉस नॅशनल हॅपीनेस फुलता म्हणपाचो अणभव म्हाका पारोंत आयिल्लो. तांचें हें धोरण फकत फुलचें न्हय तर फळचें आनी उप्रांत त्या फळाच्यो बियो संवसारभर पातळून थंयीय त्यो रूजवणाक येवंच्यो ह्याच हावेसान म्हजी ही प्रार्थना आशिल्ली.

दोन दीस ह्या पारो गांवांत म्हाका निवांत वेळ मेळपाचो लोकां लागीं इश्टागत जोडूंक. पुनाखा गांवांत लोकांकडेन संपर्क आयिल्लो म्हजो. पूण तो गर्देंतलो संपर्क. गर्देंत मनीस विशेश असो मेकळो जायना. भूतानचे लोक तर निजाचेच सैमीक लोक. जशे थंयचे पर्वत, थंयच्यो घळी, थंयची रूखावळ तशेच थंयचे लोकूय. भूतानचें सैम तशें कोणा मुखारूय किरयना. ताका पयलीं समजून घेवन खुलोवंचें पडटा आनी तेन्नाच तें मुक्तपणान फुलता. लोकांचेंय तशेंच आसता. हांगा ग्रॉस नॅशनल हॅपीनेस तत्वाचो आरंभ १९७४त केलो. ह्या धोरणाचो खऱ्यानीच लोकांक लाभ जाला काय होय 'अच्छे दिन आनेवाले है' अशांतलोच प्रकार काय कितें हें जाणून घेवप गरजेचें आशिल्लें.

पारोक येवचे आदीं आमचो राबितो पुनाखांत आशिल्लो. आमी एके दोंगुल्लेवेल्या रिसोर्टांत राविल्ले. प्रत्येकान आपले सभावा प्रमाण आनी गरजे प्रमाण रूम निवडिल्लो. म्हजो रूम एका कोनशाक सो आशिल्लो आनी ताका जनेलाकडेन एक ल्हानशी बाल्कनीय आशिल्ली. ते बाल्कनींत बसून हांवें सांजवेळार भायर नदर मारिल्ली. तो गांव म्हणपाचें कळटालें. गांव कसलो? एक घर ह्या पोताक जाल्यार

दुसरें त्या पोताक. दोंगरावेलीं तीं घरां म्हजे गॅलरींतल्यान पळोवंक लागीं लागीं दिसतालीं खरीं. पूण एकल्याक दुसऱ्याच्या घरांत वतलो जाल्यार पयलीं सकयल येवन मागीर वयर चडचें पडटालें. तांकां शेजारी म्हूण एकामेकागेर वचपा खातीर बी लागशिल्ली वाट आसा काय पळयतालों. पूण तशें कांय दिसनाशिल्लें. आसून दोगूय शेजारी, भेट ना संवसारी असलीच एकंदर परिस्थिती आसूंक जाय!

तांच्या घरांनी बारीक बारीक उजवाड दिवपी दिवे पेट्टाले. दोंगराच्या माथ्या मेरेन वीज गेल्ली आनी एकूच घर आशिल्ले लोकूय उपभोग घेताले म्हणपाचें कळटालें.

भूतानांत जेन्ना हांवें पांय दवरिल्लो वो दवरचे आदीं जी कितें म्हायती घेतिल्ली ताचे वेल्यान भूतान हें जगा पासून स्वताक अलिप्त, एकमुळें दवरूंक सोदपी, सरभोंवतणी आशिल्ल्या दोंगरांच्या वणटींचे कोट उभारून तांचे मदले कुपयेंत आपल्याक धांपून दवरून रावंक सोदपी असो कितें तरी म्हजो समज जाल्लो. पूण हांगा भूतानाक लागीं वतकच ताचे अंतरंग फुलान एक एक पाकळी उसोवची तशे उसवत वचून भूतान खरें कितें तें कळूंक लागलें. पुराय संवसार, हें पुराय जग एके विचित्र सर्तींत देंवलां. एकविसाव्या शेकड्याक वेंगावंक जगांतलें दरेक राष्ट्र धडपडटा. पूण भूतान ही सर्त आपले पासत न्हय हें पुरायेन जाणून आसा. ताणें आपली दिका थारायल्या, आपली मोख ताणें नदरे मुखार दवरल्या.

भूतानाक उत्कर्श, भरभराट बी सगळें जाय. पूण तें भूतानच्या फुलोराक आयिल्ल्या गिरेस्त दायजाचो आनी संस्कृतायेचो बळी दिवन न्हय. भूतानचो दरेक मनीस सांगता, आपल्याक अर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाचो लाव जाय. पूण आमचे स्वताचे गती प्रमाण, आमच्या गरजां प्रमाण आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार जेन्ना ह्या गरजांची आपल्या राष्ट्राक गरज उप्रासल्या हें खरायेन दिसपाक लागतलें तेन्नाच.

हांव ज्या पारो देंगणांत आशिल्लों थंय विमानतळ आशिल्लो. पूण भूतान सरकाराक ताची गरज दिसली ना. हालीं हालींच १९८३ साल उजवाडचें पडलें तसो निर्णय घेवंक. ताका आपल्या देशांत पर्यटक हाडपाची कसलीच घाई लागूंक ना. भूतानान थोडे थोडे करून पर्यटकांक प्रवेश दिलो. १९७४ मेरेन फक्त दोनशीं लोकांचो आंकडो मर्यादीत दवरलो. २००५त ही संख्या १४ हजारां मेरेन व्हेली.तेच पासत दूरदर्शन सुरू करूंक सरकारान १९९९ सालांत मान्यताय दिली. अशें करूंक नाशिल्ल्यान भूतानचें कांय अडूंक नाशिल्लें. कोणूच उपाशीं वळवळ्ळो ना. उरफाटें,

भूतान आपली खाशेली अस्मिताय तिगोवन दवरूंक पावलें.

आमच्या देशांतल्या अर्विल्ल्या राजांक आपल्या मतदारांक मेळूंक वचूंक, तांच्यो समस्या जाणून घेवंक गाडी–घोडे जाय पडटात. रस्ते जाय पडटात. पूण हांगचो राजा खंय अमूकच गांवांत रस्तो ना म्हूण त्या गांवाक भेट दिनासतना रावना. थंय आपली गाडी वचूंक रस्तोय करिना. राजा आपलो चडसो वेळ पुराय देशाची भोंवडी करपाक सारता. चडसो पांयांनी. जे कांय प्रकल्प राबयल्यात तांची प्रगती खंय मेरेन पावल्या, लोकांचें कितें मत आसा हें तो स्वता आयकता. दरेक भूतानी नागरिकाक राजाकडेन संपर्क करूंक, आपली कागाळ सांगूंक वो आपलें मत मांडपाचो अधिकार आसा.

पारो रिसोर्टांत काम करपी एके चलयेक हांवें जीएन्एच् चो अर्थ विचारलो. तिणें कितें सांगचें? म्हणूंक लागली, 'दरेकाच्यो गरजो वेगवेगळ्यो आसतात. तांचे अपेक्षे प्रमाण जर त्यो गरजो भागल्योना जाल्यार ताची पिरपीर सुरू जाता. पूण ती व्यक्तीगत आसता. ताचो राष्ट्राकडेन संबंद नासता. एक तर ताणें आपली गरज उणी करपाची वो ती पुराय करपा पासत अदीक श्रम करपाचे. ताचो राष्ट्रीय खुशालकाये कडेन संबंद जोडचो न्हय. राष्ट्र एक व्यक्ती अशें मानून ताच्या गरजां कडेन आमी पळयतात, त्यो गरजो पुर्णायेक पावल्यात काय ना हाचेर आमची खुशालाय निंबून आसता!'

हें तत्वगिन्यान म्हजे सारक्या भारतीयांक विचित्रच लागतलें. आमी भारतीय आपल्या देशान कितें दिलां हाचेर विचार करीत सतत पीर पीर करतात. आपणें देशाखातीर कितें दिलां, कितें दिवंक जाय हाचेर मात्तूय विचार करिनात.

भूतानात आदीं जिविताची अपेक्षा फक्त ४७ वर्सां आशिल्ली. आयज हें जीवनमान ६६ वर्सां मेरेन पावलां. साक्षरतेचें प्रमाण २३ टक्क्यांवेल्यान ५४ टक्क्यांचेर पावलां. मुळाव्या शाळांत ९० टक्के मेरेन भरती प्रमाण वाडलां. जीएन्एच् धोरण आपणायत सावन हो बदल दिसून आयला. देशांत आयज चाळीसेक हॉस्पीटलां आसात, पाचशेक शिक्षणीक संस्था आसात.

भूतानच्या ह्या धोरणान गांवगिऱ्या उदरगतीक उंचेलें प्राधान्य दिलां. तातूंत चड प्राधान्य दिलां तें भलायकेचेर... आनी शिक्षणाचेर. ह्यो दोनूय गजाली प्रत्येकाक सहजतायेन उपलब्ध जावंच्यो हाचेर कटाक्षान लक्ष दवरलां.

आमच्या गोंयांत, काणकोण, खोतीगांव सारके कांय गांव हांवें पळयल्यात

त्या गांवांत भलायकी केंद्रां नात, वीज पावूंक ना. शाळा नात. पूण हांगा सामक्या दुर्गम वाठारांतल्या गांवांत लेगीत ही उपलब्धी आसा.

भूतानान पर्यटनाचेर भर दिवपाचो सोडून शेतकी उदरगत, जनावरां पोसपाचे उदरगतीक प्रोत्साहन दिवपी येवजण्यो चालीक लायल्यात. पारंपारीक हस्तकला बी गजालींक प्रोत्साहन दिवन नव्यो वेवसाय संदी दिवपाचेर भर दिला. हें म्हाका खरायेन जाणवलें तें आमचें गोंय पर्यटना बगर आमकां पर्याय ना अशें म्हणटा देखून.

भूतानान आपल्या शेजारच्या राष्ट्रांनी पर्यावरणाचो इबाड करपाची चूक कशी केल्या हें नदरे मुखार दवरून त्यो टाळपाचें धोरण आपणायलां. भूतानान भूतानची रानसंपत ६० टक्क्यां परस सकयल केन्नाच येवचिना, उद्योग पर्यावरणाक, रानटी जिवावळीक धोको निर्माण करपी आसचेनांत हाचेर कडक लक्ष दवरलां. हाकाच लागून भूतानचे हायड्रो इलेक्ट्रीक प्रकल्प न्हंयांच्या उदकाचेर चलतात. मोठीं मोठीं धरणां बांदून जीवसृश्ट आनी पर्यावरणाचेर हावळ हाडलीना ताणीं. पर्यावरणाचे राखणे पासत राबयल्लें हें अती संवेदनशीलतायेचें धोरण भूतानाक फायद्याचें थारता. तरी ह्या वीज प्रकल्पांतल्यान भूतानाक राष्ट्रीय महसुलांपयकीं ४० टक्के महसूल मेळटा. भूतान उदकाक देशांतलें धवें भांगर कित्याक म्हणटा हें हाचेवेल्यान समजून येता.

भूतान ३८३९४ चौखण किलोमिटर वाठारांत वसलां. लागीं लागीं आमच्या गोंयां इतलोच म्हणल्यार जाता हो वाठार. लोकसंख्या लागीं लागीं साडेपांच लाखांची. म्हणचे एक चौखण किलो मिटराक फक्त १४लोक पडटात. हांगा दरेक भूतानी नागरीकाची स्वताचे मालकीची जमीन आसा. हांगचे ७० टक्के लोक शेतकी वेवसायाचेर निंबून आसात. एकूण जमनी पयकी ८ टक्के जमीन लागवड करपा सारकी आसा. ७२ टक्के जमीन जंगलान व्यापल्या आनी लागीं लागीं २० टक्के जमीन सासणाची बर्फापोंदा लिपून बसल्या. अशें आसतनाय भूतान हॅपी! तांचो हॅपीनेस, खुशालकाय तांच्या मुखामळार वसता.

पारोंतल्या एका पुस्तक संग्रहालयांत भितर सरलों. म्हाका भूतानांत हेरां सारकें कांयच खरेदी करपाचें नाशिल्लें. भूतानविशीं म्हायती दिवपी एखाद्रें पुस्तक मेळत जाल्यार पळोवया म्हूण हांव यत्न करतालों. फुडें-फाटीं भूतानचेर एखाद्रें प्रवासवर्णन बरोवपाचें थारायलें जाल्यार ताची गरज पडटा. ह्या देशांतलीं मनशांचीं, जाग्यांचीं नांवां हीं लक्षांत दवरप कठीणूच आसतात. उच्चारूय वेगळे आसतात. एकलो

सांगता एक, हांव आयकतां एक आनी बरयतना भलतेंच बरयतां अशें जावंक फावना. ताणें अर्थाचो अनर्थ जावं येता. ते पासत अधिकृत नांवां असल्या लिखित स्वरूपांतल्या दस्तऐवजांचेर सोदप समा आसता.

पुस्तक संग्रहालय नेहरूंच्या जिविता संबंदी पुस्तकांचें आशिल्लें. थंय आशिल्ल्या क्युरेटराक असल्या पुस्तकांविशीं कांयच खबर नाशिल्ली. हांवूय म्हूण कितलो मस्तो पळय! वतां नेहरू पुस्तक संग्रहालयांत आनी चवकशी करतां भूतानविशींच्या पुस्तकांची.

भूतानी लोकांक, सरकाराक नेहरूविशीं आदर आसा. भूतानचे उभारणीक नेहरूचो हात आसा अशें तांचें म्हणणें. कसो काय विचारल्यार ताका सांगूंक आयलेंना. पूण हांवें ताका जेन्ना भूतानचे खुशालकाये विशीं विचारलें तेन्ना मात तो पोपट कसो उलोवंक लागलो. ताच्या मुखामळार जीएन्‌एच्‌ उफेवंक लागली. हें राष्ट्रप्रेम काय खऱ्यानीच तो खोशी आशिल्लो हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. हांवें होच प्रस्न पारोंतल्या जांका रिसोर्टांतल्या हाऊस किपर म्हूण काम करतले चलयेक विचारिल्लो, शेतांत काम करपी कामगाराकूय विचारिल्लो आनी आतां नेहरू पुस्तक संग्रहालयाच्या एका क्युरेटराक विचारिल्लो. तिगांयच्याय तोंडार म्हाका खंयच पिरंगण दिसूंक नाशिल्ली. आपल्या देशाक कोणूच गाळी घाली नाशिल्लो. आपली खोशालकाय वाडोवंक आपूणच खंय तरी उणो पडटा, तातूंत देशाची कांयच चूक ना हीच भावना तांचे मदीं वसताली. कितें हें जीएन्‌एच्‌? मोजप कशी ही राष्ट्रीय सुखाची कल्पना? ती कल्पना काय सत्य?

आरंभाक ती कल्पना आसूं येता. भूतानच्या राजान जिगो सिंगाय नामग्येल हाणीं ती मांडली आनी कांय दसकां भितर सत्यसृश्टींत हाडली. ताचे फाटलें कारण कितें? तर दरेक भूतानी नागरीकान हो देश हो आपलो देश ही भावना काळजांत बळायली. हें कित्याक जावंक पावलें तर बुध्द तत्वज्ञानाचो वापर ताणीं मनीस कुळयेचे उदरगती पासत सगळ्या आंगानी वापरपाचो निर्णय घेतलो देखून. बुध्द तत्वगिन्यानाचो खोलायेन अभ्यास करून ताची जिविताकडेन सांगड घालपाच्या ध्यासाक लागून हें घडूंक पावलें.

भूतानान आपली संस्कृताय राखल्या, आपली भास राखल्या. देशाची उदरगत मनीस हो केंद्रबिंदू मानून करपाचो प्रामाणिक प्रयत्न केला. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार सैमाचेर हांवळ आयली जाल्यार मनीसजीण सोंपली हो विचार

ल्हानाव्हडांच्या काळजां भितर रिगोवंक भूतान यशस्वी थारलां. तीच खोशालकाय जण एकल्याच्या काळजांत वसल्या आनी जें काळजांत वसता तेंच मुखामळार निशेता. जीएन्एच् चो अर्थ कोणाक सांगचो पडना.

पारोंतल्या आमच्या निमण्या दिसा म्हळ्यार दुसरे दिसा तकत्संग मठाचो ट्रेक आशिल्लो. टूर आयोजकांचें दीस भरपा नदरेन हें एक आयोजन आसूं येता असो म्हजो अदमास! म्हाका ट्रेकींग आवडटा. देशांत खूब कडेन ट्रेकींगाक गेलां. गोंयांतूय आनी हिमालयांतल्या खूबश्या देंगणांतूय. पूण बायपास केल्या उप्रांत ह्या ट्रॅकींग कार्यावळींतल्यान आंग काडून घेतलां. पर्वत चडप जमना म्हूण न्हय, तर जांच्या वांगडा वतां तांकां त्रास जावचो न्हय म्हूण! वाटेर समज कितेंय त्रास जालो जाल्यार 'खबर आसतनाय हो आयलो आनी आमचेय उमेदीचो विरूस केलो' अशें कोणाक दिसचें न्हय म्हूण!

पूण हांगा जे कोण आमी एकठांय आयिल्ले तांतल्या भोवतेकाची अवतिकाय तीच आशिल्ली. कोणाचें बायपास जाल्लें, कोणाचीं धोपरां बदलून हाडिल्लीं. म्हणटकच नज म्हूण रावल्यार कोणाचें कांयच लुकसाण जावपाचें नाशिल्लें. वचूच तूं म्हण कोण फोर्सार करचो नाशिल्लो. गिर्यारोहणांतल्या हेर कार्यावळीनी कितें जातालें, तर मुखार मुखार वचप जातालें. मुखार वचपी परत फाटल्यान येवंक शकनाशिल्लो. जर खऱ्यानीच कोणाक चलप जमना जाल्यार मागीर वाहनाची वेवस्ता करून फुडल्या कॅम्पार वो बेस कॅम्पार व्हरप जातालें. हांगा तो प्रस्न नाशिल्लो. त्या तकत्संग मठांत – टायगर नेस्टांत वचपाचें जांकां ना ताणीं बसींत बसून रावूं येतालें वो परत रिसोर्टांत वो बाजारांत वचूं येतालें. जे कोण वयर मठांत वतात ते परत फाटींच येवपाचे आशिल्ले.

बस एका पर्वताच्या मुळसांत हाडून दवरली. आमच्या राबित्या पासून हें अंतर लागींच म्हळ्यार पांचेक किलोमिटरांचेर आशिल्लें. मठांत वचपाच्या हावेसान सगळीं बसींतल्यान सकयल देंवलीं. मुळसांतल्यान तोंड आंऽ करून दोंगरा माथ्यावेल्या त्या मठाकडेन पळोवंक लागलीं. दोंगर माथ्यार तळपां कोराथून सो एक विहार तयार केल्लो. रंग रंगयाळो. त्या काळश्या, धंवशा, तिकतिकपी पाशाण प्रस्तरांत तो रंगरंगयाळो मठ म्हळ्यार मुकुटांत थिकां, वज्रां बसयिल्लेवरी दिसतालो. ताच्या जळामळाक रंगरंगयाळ्या कपड्यांच्या कुडक्यांचीं, तिराट्यांचीं बोंदेरां लायिल्लीं. तांचो आकार कळनाशिल्लो. फक्त रंग तितलो दिसतालो. टायगर नेस्ट काय

तकत्संग मठ म्हूण जें कितें आशिल्लें तें आमी उबे आशिल्ले थंयच्यान ८०० मिटर वयर आशिल्लें. वाट सामकी उबी कशी! सरळ पांयवाट. घोड्यांक वचपाची! वो घोड्यानीच ती केल्ली जावंक जाय. ते वाटेन झाडां-झोपांचो आधार घेत वचपाचें. सगळेच जाण, वचप काय नाका? ह्या विचारांनी मळबा कडेन कशे दोळे लावन त्या मठाक पळयताले. पाचू मेनन हार्टाचो पेशंट. बायलेन ताका नाका म्हणचे आदींच तो फाटल्या पांयानी पर्थून बसींत वचून बसलो. नेवरेकाराची घरकान्न धोंपरांचे समश्येक लागून बसींतल्यान देंवलीच ना. तिणें बसींतल्यानूच वयर नदर मरून 'ना' म्हणत मान हालयली. सकयल देंवपाची लेगीत तकालस घेतली ना. अजित केरकाराची बायलूय तिच्या सांगाताक रावली. भट जोडपेंय रावलें. तांची धूव कृपा वचपाक तयार जालें हेरां वांगडा. नेवरेकार सत्तर वर्सां हुपिल्लो, तोय सगळ्यांत पयलीं चलपाचे तयारेक लागिल्लो.

आमचे वांगडा आशिल्लो गायड म्हळ्यार एक शॅम्पल आशिल्लें. तो आदीं थंय केन्ना गेला काय कोणाकूच खबर नाशिल्लें. तो ते वाटेचें जें वर्णन करतालो तें आयकत जाल्यार म्हजे सारक्यान थंय न वचप हेंच शाणेपणाचें दिसतालें. पांयवाट जेमतेम एकट्याक वचपा इतली, सकयल दरय. घसरल्यार गेलोच सकयल. तातूंत म्हाका व्हर्टीगोची पिडा. घुंवळ येतकच कितें अवतिकाय जाता हाचो अणभव हांवें घेतिल्लो. जंय एकल्याक चलपाची मारामारी थंय म्हाका उबारून हे लोक हाडटले कशे सकयल? नाकाच ती भानगड अशें एक मन सांगतालें. दुसरें मन सांगतालें, आयलाच इतले पयस! आयुश्यांत पर्थून काय पावचो ना. जाता नज करून कसो चल. जमना जालें जाल्यार मुखार वचूं नाका.

सकाळचीं धा जावन गेल्लीं. वत खर जायत वतालें. घोडेकार म्हजेकडेन येवन येवन घोड्यार बसपाक फोर्स करताले 'नही चाहिए नही, नो नो' म्हणत हांव उबगल्लों. तातूंत बडयेकार भुरगीं - बायलां पिडटालीं. चलतना आधाराक बडी घेवंची पडटा खंय! त्या लोकांनी बऱ्योऽ बडयो तासून दवरिल्ल्यो. कंबरभर उंचायेच्यो लाठयो कश्यो. वयर चडटना आनी खास करून देंवतना हे बडयेचो आधार घेवप सुरक्षितततायेचे नदरेन गरजेचें अशें आमच्या गायडान सांगलें. बडयेचें भाडें वीस रुपया. वयर वतना व्हरपाची आनी देंवतना हाडून तांकां दिवपाची. भाडें आदीं दिवपाचें. आमी घासाघीस करून बडयो घेतल्यो भाड्याक. ताणींय आमची काकळूटशी करून दरेक बडी पंदरा रूपयांक दिली.

आमचो टायगर नेस्टाचो प्रवास सुरू जालो. आयच्या दिसाक आमकां दुसरो कार्यक्रम नाशिल्लो. टायगर नेस्टाचो ट्रेक जालो काय रिसोर्टांत येवपाचें, गरम गरम जेवपाचें आनी ताणून दिवपाचें! जांकां कोणाक जाय ताणीं शॉपिंगाक बी वचपाचें!

टायगरनेस्ट माथ्यावयर दिसतालें. खूब लोक त्या मठांत वचपाक आयिल्ले. थोडे सकाळ फुडें गेल्ले ते परततालें. तांचे भितर विदेशीय आशिल्ले, देशीय आशिल्ले आनी थळावेय आशिल्ले. हांगा वयर वचूंक घोड्यांची वेवस्ता आसा. घोडो भाड्याक घेवन वयर वचप! पूण तेंय सामकें वयर न्हय. अदूर्या मेरेन. मागीर थंयच्यान चलून वचप मठा मेरेन. हांवें घोड्यांचेर नदर मारली. घोडे कपलाचे! घोड्या सारकीं दिसपी तीं खेचरां. सामान व्हरपी! वजन व्हांवोवन व्हरपी. तांकां मनशांय सारकीं आनी हेर सामानूय सारकें. तांकां भावना कसली? धनयाच्या आनी आपल्या पोटा पासत वजन व्हरप होच तांचो धर्म. ती थंयची वाट पळयत जाल्यार म्हजे सारको प्राणीप्रेमी, त्या घोड्याचेर बसचे परस त्या घोड्याक त्रास नाका म्हूण जमता जाल्यार ताकाच खांदार मारून चलपी. पूण जाण्टे विदेशी ह्या खेचरांचेर बसून वयर वताले. खर्शेंत खर्शेंत वयर चडटाले आनी मागीर घडाघडा धांवत सकयल देंवताले, दुसऱ्यांक व्हरपाक. ते देंवतना तांचे मालक आड्डताले, कुशीन सरात म्हूण सांगत! कसलीं मस्तेपणा! मनशांकूय वचपाक तीच वाट आनी घोड्यांचीय वचपा-येवपाचीय तीच वाट. धांवत सकयल येवपी त्या खेचराचो कोणाकूय धक्को लागलो जाल्यार खेचर वयर आनी मनीस सकयल, घळयंत!

असल्या सुवातांची भोंवडी करतना केन्नाच घाई गडबड करूंक फावना. मोख अंतीम थळ आसूंक फावना. त्या थळा मेरेन पेणे करीत करीत वचूंक जाय. मातशें वयर वचप, हड्ड्यांत शुध्द प्राणवायु भरून घेवप, तो घेतना वयल्यान सकयल मेरेन नदर फिरयत सृश्टीचो अविश्कार दोळेभर तोखेवप आनी मागीर फुडली वाट चलप हो असो हो कार्यक्रम आसूंक जाय!

पूण भोवतेक पर्यटक सर्तींत पडटात. येदी व्हडली चडण आपणें कितल्या उण्या वेळांत काडली, आपल्यांत कितलो दम आसा हेंच तांकां सिध्द करपाचें आसता. हाका लागून सैमाचें आपल्याक पडूंक ना, निमणें थळ हेंच आपलें ध्येय मानून हे लोक चलतात. घोड्यावेल्यान वचपी आपलो जीव मुठींत धरून बशिल्ले आसतात. जीव जर मुठींत बंदीस्त जाल्यार मागीर तो सैमाचें रूप तोखेतलो केन्ना?

तिर्थयात्रेच्या नांवान जे कोण येतात ते हेंच करतात. ते पर्वतमाथ्यावेल्या देवाक सोदूंक थंयसर ध्यान केंद्रीत करून् चडत आसतात. पूण आपल्या सरभोंवतणी आपल्या सांगातानूच सैमा भितर देव वावुरता हें तांकां दिश्टी पडना, थंय तांचें लक्षूच नासता.

हेरांक वचूंदी जाता तितले फास्ट आमी सवकासायेन वचपाचें हें पयलींच थारिल्लें. जंय प्राणवायु कमी जायत वता, चलतना धाप मारूंक लागता अशे सुवातेर हांव खंयमेरेन वचूंक शकतां हें अजमावपाक पळयतालों. टायगर नेस्ट वयर माथ्यार रावून यो यो करीत खुणायतालें.

जितलें वयर चडटां तितलें वताचे चटके आंग भाजून काडटाले. वयर वयर वतना सकयलो पारो वाठार नदरेक भरतालो. थंयचीं घरां वताच्या किरणांनी चकचकतालीं. पांचवीं शेतां, जीं आतांच रोवंक घेतल्यांत जावंये गालीचो घाल्लेवरी दिसतालें.सगळेंच अप्रूप हांगा. तरातरांचीं फुलां रूखांक. रूखांचेय आकार, पानां बी अप्रूपच. कितें पळोवं आनी कितें नाका अशें जावन वतालें. पूण चड वेळ बडी कुल्यांक तेंकोवन उबें रावपूय शक्य नाशिल्लें. वयर वचप काय सकयल देंवप हो निर्णय घेवपाचो आसतालो. उबो रावलो, बसलो खंयच्याय फातरार जाल्यार सोंपलो.

चलून चलून भूक लागिल्ली. पयलीं निर्णय घेतिल्लो अद्र्या मेरेन येवन पळोवप. ४०० मिटर उंचायेर पावले उपरांत थोडो सपाट सो वाठार आशिल्लो. थंयीय कितें कितें उबारिल्लें. चोर्तेन, झोंग काय आनीक कितें! म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार थंय हॉटेल आशिल्लें. हांगा आमचे मुखार धांवपळ करीत आयिल्ले आराम करताले. च्या-फराळ घेताले. हांगाच आमकां निर्णय घेवपाचो आशिल्लो, मुखार वचप काय फाटीं परतप! आमी जंय च्या घेवंक बशिल्लीं थंयच्यान सकयल नदर मारीत जाल्यार खोल देंगण दिसतालें आनी सरळ मुखार पळयत जाल्यार मातशें मुखार वयर तकसंग मठ म्हळ्यार टायगर नेस्ट दिसतालो. सामको लागीं. पूण थंय वचपाची वाट पळयत जाल्यार दोंगराचे कडेन बोकड्यांक बी वचपाक ल्हानशी पांयवाट आसता तशी वाट दिसताली. पयलीं कितले तरी सकयल आनी मागीर वाकडी वाकडी जायत ओल्तां घेत घेत मठा मेरेन पाविल्ली. मठांत आशिल्ले लोक नदरेक पडटाले. पूण सकयल वाट चलपी फक्त झळकताले, ल्हान बावल्यो कश्यो.

आमी अर्दी वाट काडून इतले पयस आयिल्लीं. पोटांत थोडें पडटकच आनीकूय उर्मी आयली. यस् आय कॅन डू इट! म्हज्यांत आत्मविश्वास बळावल्लो. फक्त भंय मनांत आशिल्लो तो वाटेचो. ते वाटेन वतना सकयल नदर पडून आल्तो फोबियाचो उद्रेक जालो जाल्यार? व्हर्टीगोच्या पेशन्टाक तसो भंय आसता अशें आयकल्लें! भंय! सत्या परस कल्पनेंतलो भंय मनशाक चड पिडटा. वचप, रावप ना. फाटीं सरप ना. चडांत चड कितें जातलें? पडटलों सकयल. तिर्थयात्रेक वचपी, असल्या रस्त्यान वचपी वाटेर खपताय! तांकां मोक्ष मेळटा, ते सर्गार वतात बी म्हूण आयकल्लें. म्हजो सर्ग हो हांगाच आशिल्लो. हें सर्गीय सूख म्हज्या दोळ्यांक भावतालें. इतले वयर येवन त्या तकसंग मठांत गेल्याबगर परतप म्हळ्यार म्हजे इतलो कर्मकट्टो दुसरो नासपाचो.

घाई ना. सवकास वचप. एकमेकाच्या आदारान मुखार सरप. कामिनी गडगंज खांबो कसो म्हजे वांगडा आशिल्लें. मानसीक शक्त दिवंक आनी गरज पडटा तेन्ना हात दिवन सांबाळूंक! जाता नज करून आमी तकत्संग मठांत पावलीं. वर्णन करूं येना असो मठ! ताचें स्थापत्य, तातूंतली कलाकुसर आनी बांदलां खंय म्हळ्यार दोंगराच्या उब्या पृश्ठभागार. त्या तळपांनी खांचो मारून बांदिल्लेवरी. कशें काम केलां आसतलें कामगारांनी? खंय उबे रावल्यात आसतले? येदे व्हडले फातर खंयच्यान हाडले? हजार प्रस्न! पूण हांवें ते प्रस्न सकयल्या देंगणांत मोखून मारले. अक्षरशा दोंगराचो आदार घेत घेत इतली वाट चडून आयलां तो हे असले हुसके काडूंक न्हय, हांगचें भव्य-दिव्य वातावरण अणभवूंक म्हणपाचें हांवें म्हाकाच समजायलें.

आमी पारो देंगणांतल्या ८०० मिटर उंचायेवेल्या तकत्संग मठांत पाविल्लीं. जो मठ काळ्या काळ्या पाषाणी भांगरांत थिकाचें कोंदण केल्लेवरी दिसतालो. कोणें बांदलो हो मठ? कित्या पासत?

ख्रिस्ताआदीं ७४७ वर्सा भारतांतलो एक व्हड साधू गुरू पद्मसंभव, जाणें तिबेटांत निंगमापा वाठारांत बुध्द धर्माची थापणूक केली तो भूतानांत आयलो. ताचेविशीं हांगा एक आख्यायिका प्रचलीत आसा. तो उडपी वागाचेर बसून ह्या पर्वतार आयलो आनी हांगचे एक होंवरेंत बसून ध्यान करूंक लागलो. उडट्या वागार बसून आयिल्लो देखून ह्या तकत्संग वाठाराक टायगर नेस्ट हेंय नांव पडलें

गुरू पद्मसंभवान हांगा तपश्चर्या पुराय केल्या उप्रांत तो हांगच्या बुमथांग

वाठारांत बुध्द प्रचार करीत भोंवलो. थंय त्या काळार सेंधा ग्याब हो राजा राज्य करतालो. ताका सिंधू राजा म्हण्णूय वळखताले. ताणें गुरू पद्मसंभवाची नामना आयकल्ली. ताणें ताका आपले मानेर जीं भुतां बसल्यांत तांकां धांवडावन घालचे पासत आपल्या राज्यांत आपोवन व्हेलो.

गुरू पद्मसंभवाक भुतानांत गुरू रिम्पोचे ह्या नांवान वळखतात. खरें म्हणल्यार रिम्पोचे हाचो अर्थू गुरू. पद्मसंभव हें एक भूतानचें ऐतिहासीक व्यक्तीमत्व. ताचो जल्म उद्दीयानात जालो. ही सुवात आयज पकिस्तानांतल्या स्वात देंगणांत आसा. ताका तिबेटी आनी भारतीय एक व्हडलो बुदवंत म्हूण वळखतात. तो भूतानांत खूब कडेन भोंवलो. ताणें लोकां पासत अद्भूत अचंबीत करपी करण्यो केल्यो. लोकांचीं काळजां जिंकून तांचे मदीं बौध्द मत्तांचो प्रचार केलो.

गुरू रिम्पोचेक आयज बुध्दा फाटोफाट भूतानांत मान आसा. भूतानच्या सगळ्या विहारांनी, मठांनी, देवळांनी गुरू रिम्पोचेचे पुतळे, प्रतिमा आसात. गुरू रिम्पोचेच्या दोनय वटयां ताचे दोन सहकारी सातत्यान दिसतात. एक भारतीय राजकुंवर मेंधारवा आनी दुसरी तिबेटी राजकुंवर येशे शोगेल. दोगीय रिध्दी-सिध्दी कश्यो वावुरताल्यो जावंक जाय. हांगा मठांनी, झोंगानी वर्सुकी शेच्यूंचें आयोजन जाता. शेच्यू म्हळ्यार धर्मीक उत्सव. ह्या शेच्यूंत गुरू रिम्पोचेक खास मानवंदना दिवपाचो सुवाळो घडोवन हाडटात. ताचो पुर्णाकृतीं पुतळो आनी ताच्यो आठ शिकवण्यो हांचे सयत पुरसांव काडटात. भूतानचे दरेक देंगणांत, दरेक होंवरेंत फातरांचेर, तपांचेर गुरू रिम्पोचेच्या पावलांचे, हातांचे ठसे वो हेर कुरवो दिसतात. आमचे सारक्या भोंवडेकारांक तें सगळें अजापीत करपी वो भंकस दिसतूय बी. पूण दरेक भूतानीक त्या गजालीनी पवित्रताय, देवपण दिसून येता.

तकत्संग मठांतूय गुरू रिम्पोचेची भव्य प्रतिमा आशिल्ली. पूण ती हालींची. कित्याक ह्या मठाक १९८८ वर्सा मोठे प्रमाणात उजो लागलो आनी तो पुरायेन नश्ट जालो. उजो कित्याक लागलो कोणाकूच खबर ना! मठाची देखभाल करपी भिक्खू ह्या उज्यांत लासून मेलो. शेकड्यांनी वर्सां पोरणी आशिल्ली कलाकुसर, वस्तू, प्रतिमा सगळें सगळें उज्याचे भकीक पडलें. मठाचो इतिहास आनी परंपरा उज्याच्या जिबांनी ल्हेंवून पुसून उडयल्यो. फक्त तकत्संगची संरक्षक देवता सिग्ये सामदु जी त्या मठांत आशिल्ली तीच एकटी ह्या उज्यांतल्यान वाटावली!

आठव्या शेकड्यांतलो हो ऐतिहासीक दस्तऐवज उज्यान खावन उडयलो.

आनीक कोणूय जाल्यार आसूं आतां हें, सोडून दिवया म्हणटले आशिल्ले. पूण एकान एक भूतानचो नागरीक एकवटलो. राजान फुडाकार घेतलो. लोकांनी आपापलें योगदान दिलें. २००१ वर्सा हो मठ पर्थून उबारपाक आरंब जालो. २००५त नवो तकत्संग मठ उबो जालो. त्या मठांत हांव आतां उबो आशिल्लों. उज्यांत हो मठ काबार जाल्लो हाची एकूय खूण थंय दिश्टी पडनाशिल्ली. दिश्टी पडटाली मठाची भव्यदिव्यताय, आसमंतांत फडफडपी जैताचीं रंगरंगयाळीं बोंदेरां. मठांतलो एक मंद मंद आवाज संगीत जावन कानार सादतालो. एक हयन्हयसो सुवास जो झडी-बुटींचो आसता तो नाका मेरेन वतालो. ती उंचाय, मठाची ती देखणाय, ताची रंगरंगोटी आनी थंय येवपी तो पारो देंगणांतलो झणझणीत वारो. सगळेंच भव्य-दिव्य. हांव भान विसरप म्हळ्यार कितें हाचो अणभव घेतालों. भूतानाक येवन जायतेकडेन जळामळाक जायतें पळयलें. पूण हांगचो हो मठ, ह्या मठांतलें वातावरण, मठांत रावून देंगणांत दिसपी भूतान, थंयची रूखावळ, थंयचे दोंगर, न्हंयो... सगळें हांव काळजांत साठयतालों. हांगा म्हजी ही निमणी भेट आशिल्ली. पर्थून हांगा येवपाक म्हाका संद नाशिल्ली. येवपाचें जाल्यार वागार बसूनच येवचें पडपाचें उडत. कित्याक उडत येवपाक आनीक कसलेंच हेर साधन थंय येवंक पावऽनाशिल्लें. परत आयलोंच भूतानांत जाल्यार हांगा येवपा इतली शक्त कुडींत आसतलीच अशें सांगू येना. आनी येवप तरी कित्याक परत? तिर्थयात्रा करूंक? सर्गाचे अपेक्षेन? हांवें तर आतांच सर्गाची प्रचिती घेतिल्ली. होच सर्ग तर म्हज्या काळजांत सासणाचो तिगोवन दवरपाचो आशिल्लो. म्हज्या मनांत भूतानचें जें रूप आतां थिरावल्लें तेंच अंतीम आसप गरजेचें आशिल्लें.

दोळे बंद करून जर म्हाका तकत्संग दोंगर देवूंक मेळिल्लो जाल्यार काय बरें जावपाचें! हांवें अणभवल्लो शान्तम्, शिवम्- अद्वैतम् भूतान चिरंजीव जावन म्हज्या मनांत वसपाचो!

(शान्तम्, शिवम्, अद्वैतम् भूतान ह्या प्रवास वर्णनांतले कांय वांटे.)

******

# माधवी सर्देसाय्
# कोंकणिक् समर्पिल्ले जिणियेक् शृद्धांजली

अधिकृत् कोंकणी बरव्पिण् आनी भाशाशास्त्री माधवी सर्देसायी २०१४ दसेंबर् २२ तारिकेर् आप्लें संसारी जिणे संपन्न् कोंकणी संसारांत् ऐक् दुखाभरित् रितो स्थान् आसा करुन् गेली. तिच्या मरणाच्या तीन्ंच् दिसां आदीं साहित्य अकाडेमी, न्यू ढेल्ली हाणीं तिच्या 'मंथन्' कृतियेक् २०१४ वर्साचो साहित्य पुरस्कार् घोषीत् केल्लो. थोड्या वर्सां आदीं हेच्च अकाडेमीन् महात्म गांधिचे जिणियेचेर् लिखल्ल्या तिच्या 'ऐका विचाराची जिवीत् कथा' कृतियेक् उत्तीम् भाषांतर् कृती पुरस्कार् प्राप्त् केल्लो. ती गोवा युनिवर्सिटींत् कोंकणी विभागाची मुकेल्न् जाव्न् आशिल्ली.

ज्ञानपीठ् पुरस्कृत् आनी फामाद् कोंकणी विद्वांस रवींद्र केळेकार् हांची भाची जाव्नासल्ले माधवीन्, रवींद्रबाब् संपल्या उप्रांत् 'जाग्' म्हयन्याळ्याचें संपादकपण् आपल्या खांदार् घेतलें आनी यशस्वी रितीर् हो मेगझीन् चलय्लो.

हालिंच्या पुरस्काराची खबर् मेळ्तेच् तिचें प्रतिक्रियें जाव्नाशिल्लें विबिन्न. 'अशें जातेलें म्हण् कळित् आसल्लें तर् हांव् प्रेतन् करुन् आनिकी सुदारीत् पुस्तक् लिक्तीं आशिल्लीं कित्याक् हो पुरस्कार् आसा वर्त्या मानाचो आनी घमंडायेचो.'

तिणे आपल्या साहितिक् अबियानाचे वाटेर् कोंकणी भाशेचो संसोद् विंचल्लो आनी तिचो ऐकच्च मक्सद् आसल्लोकी कोंकणी भाशेची विविधाय् आनी गिरेसतकाय् चडयतेलीं, असो.

तिचें चिंतप् आसल्लें अशें--जरितरी संसोदां मुकांत्र् भाशे ग्यानाक् देणगी लाबली तवळ् भाशेच्या हेर् आनी सरव् वर्तुलांनी सुद्राप् जातेलेंच्च. ही आवड् पुरस्काराची बिलकुल् नय् पूण् आपले मांय् भाशेक् देणगी दिंव्चें ऐक् अल्बें प्रेतन्; देकुन् कसलेंच् आशेनास्तां, कसलेच् चुरचूरेनास्तां हांवें मजें प्रेतन् केलां.म्हजीं बरपां हांवें जातातितलीं ललित् केल्यांत् कित्याक् फाल्यां कांय् तीं वाच्तेल्यांक् संसोदाची वोडणी येतेली म्हळ्ळ्या आशेन्. ही आशा तरी ज्यारी जाली तर् म्हाका वर्तो संतोस् जातोलो. संसोद् म्हळ्याफरा तो अभ्यास् सुको या अळणी जाय्जे म्हण् ना. संसोदाक् आप्लिंच् म्हळ्ळीं खास् लक्षणां आसात्. ऐक् बरवपी

आपल्याच् थोरायेंत् जियेंव्क् सोद्ता, आपल्या ऊंच् बुरुजाथान् देंवोंक् आय्काना तेद्नां तो साहिताच्या तीबाक् जक्मी कर्ता. हें सत् तरी म्हज्या चिंतपान् म्हाका शिकय्लां, अशें ती म्हणता.

तिणे आपली "मंथन्" कृती साहित्य अकाडमी पुरस्कार् वीजेत् अशोक् केल्कार् हाका अर्पिल्या आनी ती ताका आपलो भाशा विग्यानाचो गुरु मांद्ता.

ज्ञानपीठ् पुरस्कृत् रवींद्र केळेकार् माधविचो माळ्ळो. ताचे विशांत् उलवन् ती म्हणता – संसोधीक् वाव्रांत् सबार् असले आसात् की तांच्या निस्रपांक् हेरांचो धिगो घेंव्चें प्रेतन् कर्तात्. पूण् रवींद्रबाब् तसलो न्हय्. तो आपणें कर्च्या हर् फोड्णिशींत् शीदा आनी खडाखड्. ताच्या ह्या व्यक्तित्वाचें ऐक् किसर् पुणी म्हजेथंय् आसा म्हण् हांव् पात्येतां कित्याक् ताची समीपायच् हाचें काराण्. देकून् हो पुरस्कार् हांव् ताका अर्पितां.

थोड्या नामवर् कोंकणी बरवप्यांनी तांचीं सिंतिमेंतां अशीं उचाल्यांत्

उदय् बेंब्रे

तिचे विषांत् फामाद् बरवपी, चिंतपी आनी कोंकणी चळवळेगार् अद्वोगाद् उदय् बेंब्रे अशें उलयता:

माधवी आपल्या मावळ्या रवींद्र केळेकाराच्या आंग्णांत् वागली. हांगासर् तिका बर्पूर् साहितीक् उगतड् लाबलो आनी स्वतंत्र् चिंतप् आनी अर्थपूर्ण् मुद्रे उग्ते जाले. युवती जाव्नास्तांच् तिचे थंय् सार्कें आनी चूक् ह्या मद्लें फरक् जाणां जांवची सकत् आसल्ली ती हांवें पळेल्या.

तिणे सृजनातमक् साहिताक् कांय् व्हड् देणगी दिल्ली ना कित्याक् तिचें क्षेत्र् जाव्नासल्लें संसोदाचें. तरी तिणे भाशांत्राचो वाव्र् केला आनी तिच्या ऐके भाशांतर् कृतियेक् साहित्य अकाडमिचो पुरस्कार् मेळ्ळा तरी तिणे आपलो कोंकणी वाव्र् कोंकणी भाशेचें विग्यान् आनी चरित्रा हांचेरच् केलो. हांचेर् तिचीं संसोदिक् बरपां कोंकणी व्याकरण्, भाशे उद्बव् आनी वाडावळ् जाव्नासात् इतलीं सादीं आनी सोंपीं, सामान्य् वाचप्याक् तीं कसल्याच् मानसिक् त्रासांविणें समजतात्. तिणे उजार् केल्ल्या विसिश्ट् बर्पा रितींत्, जी तिणे संपादन् केल्ल्या "जाग्" मासिकांत् उटोन् दिस्ता, ऐक् खाशेलेंपण् दिसून् येता. आतांच्या संपादकांक् तिणे जाय्ते इसारे दिल्यात् आनी ऐका नेमाळ्याचें संपादकपण् कशें यशेन् सांबाळ्येत् म्हळ्ळे दाक्ले दिल्यात्.

शीला कोळंब्कार (मटवी कथांची  कर्त्र आनी साहित्य अकाडमी पुरस्कृत्)

म्हज्या यादिंत् आसा, हांव् माधवीक् पयिल्लेपाटीं भेट्ताना ती कांय् सात् वर्सां प्रायेची. दुस्रे पाटीं तिका भेट्ताना ती कांय् बारा वर्सांची. तवळ् ऐका कोंकणी सम्मेळनांत् तिचें कविता वाचन् आसल्लें आनी ती "मिठाकण्" म्हळ्ळी कविता वाच्ताली. आनी आय्कोप्यां मदें आशिल्ले मान् मनीस्, बरवपी आनी कवी – बाकिबाब् बोर्कार्, मनोहरराय् सर्देसायी आनी रवींद्र केळेकार्. तिचें वाचन् भारिच् आपूर्बायेन् आनी उमाळ्यांनी स्वीकृत् जालें. कवितेचो तीर्ल् आसल्लो असो – ऐक् मिठाकण् सागोराक् भेटोंक् वेता आनी तिचें चिंतप् आस्ता आपूण् सागोराक् भेट्ताना ताच्या उद्कांत् हांव् मिस्ळातेलीं आनी सागोरच्च जातेलीं.

उप्रांत् ती म्हाका भेटली, कोलेजिचें शिकप् कर्तास्ताना; आनी हरऐक् पावटीं तिका पळेताना म्हाका ऐका ग्रीक् देवतेचें रुप्णें दिस्तालें, तिचो तो दुलोबी आनी गुलोबी वर्ण्, मुदियाळे केंस् आनी नितळ्, निर्मळ् कसलिच् मालिसाय् नातल्ले निस्कळ् दोळे.

तिच्या वोंटाचेर् कायाम् आसचो हासो खंचायी आनी कसल्यायी आतंकाक्, बिरांतेक् या धुविदांक् पय्स् करचे तसलो. तसलें निस्कळपण् माधवीचें, नितळ् आनी निर्मळ्.

तिचें चिंतपयी तितलेंच् सुडाळ् आनी "जाग्" मयन्याळ्याचेर् तिणे लिक्चीं बर्पां आपुट्ट कोंकणी भाशेच्या सोबायेन् भारादीक्. हर्येका लिख्पांत् संसोद् उटोन् दिस्तालो, जांव् तो हिंदी, मराटी या इंग्लिष् भासां थावन् तिणे आपणायिल्लो.

रवींद्रबाब् केळेकर् संपल्या उप्रांत् "जाग्" नेमाळें चलंवची आनी संपादन् कर्ची जवब्दारी माधविचेर् पडली. हो वाव्र् कांय् उण्या त्रासाचो न्हय्. पाट्ल्याच् वर्सा निश्चीत् अंत्याच्या पिडेक् लागुन् ती कष्टाताना सय्त् तिणे "जाग्" पत्राचो दिवाळी अंक् भाय्र् काड्लो म्हणतकूच्, तिच्या निष्टेचो आनी शिश्टेचो अंदाज् आमी कर्येत्.

तिणे कोंकणी भाशेचीं कंत्राळां भर्ल्यांत्, तिची कोंकणिक् देणगी शीममेरो नातल्ली.

फ्रेडरिक् न्होरोना (पत्रकार् आनी प्रकाशक्)

आप्णें संपादन् कर्च्या 'जाग्' पत्रा मुकांत्र माधावीन् कोंकणी भाशेक्

ऐका उबार् आगसाचेर् चडय्ल्या तरी तिका (भाशेक्) आपल्या बर्पांच्या सुललित् शय्लेवर्वीं सामान्यांच्या गिन्यानाक सम्जासार्कें केल्या. असल्या नाजूक् कालेतिची, मोवांळ् आनी मोगाळ् उत्रांची, आपल्या चिंतपाक् आनी पात्येणेंक् (चड् करुन् लिपिंच्या वादांत्) सदांच् पार्टिबो दिंवची असली भाशातज्ञ आसची भारिच् अप्रूब.

<u>मुखेश् थळी</u> (कोंकणी बरवपी, भाषांतर् कर्पी आनी शब्दकोश् परिणत्)

ज्ञानपीठ् पुरस्कृत् रवींद्र केळेकाराच्या साव्ळेंत् वागल्ली माधवी खरिच् नशीब्वंत्. रवींद्रबाबान् तिका साहित्, भास् आनी तिची चरित्रा ह्या प्रमुक् विषयांचेर् दिल्ली तर्बेति अव्वल् दर्ज्याची. रवींद्राबाबा लागीं आसल्ले पुस्तक् भंडार् माधवीक् ऐक् साहितीक् दिर्वें आनी तुपें जाल्ल्यांत् नवाल् ना. हांवें हें भंडार् खुद्द पळेलां.

पुणेंत् भाशाशास्त्र् परिणत् अशोक् केल्कार् हाच्या मार्गदर्शनाखाल् माधवीन् भाशा विग्यान् जोडुन् घेतलें मात्र् न्हय् आपल्या चिंतपाक् स्पष्ट उच्चार् दिंवच्यांतयी तिका तालीम् मेळ्ळें. पूण् हें कांय् त्रासां आनी सोस्णिकायेविणे न्हय्, तिणें खरेंच् 'साधनां' केल्लीं आनी आपली खाशेली, सादी आनी सुललित् शयली आप्णायली. तिची ही शयली परम् म्हळ्यार् अतिशय् जांव्चें ना.

भाशाविग्यानांत् परिणता जोड्ल्या उप्रांत् तिणे आप्णो वापर्च्या कोंकणीक् ऐक् नवेंच् रूप् आनी सुवाद् दिलो. तिची शयली खड्प् व्हय् पूण् नितळ् आनी पारदर्शक्. चड् करुन् तिचीं बर्पां कुर्कुरित्, उत्रां उजळाचीं आनी तिणे जोड्लेली ही बर्पां–कला शेणय् गोंयबाब्, रवींद्र केळेकार् हांच्या कृतियांचो तिचेर् पड्ललो प्रभाव् जाग्र् कर्ता.

तिचो संसोदिक् गृंथ् 'मंथन्' प्रबंदाचो ऐक् पुंजो आनी तिणे विंच्लेले विषय् आसात् – भास्, साहित्, अस्थित्व्, शिकप्, समाजिक् आनी चारित्रिक् दृष्टिकोन्. ह्या तिच्या बर्पांनी तिणे दाकल् केल्लो संसोधिक् वाव्र् उटोन् दिस्ता.

तिचें पुस्तक् 'भासाभास्', हांतु कोंकणी भाशेची वाडावळ्, भाशाविग्यानाच्या परिधीं आनी सिद्दांताच्या विस्तीर्णायेंत आसची दिसून् येता. कोंकणी व्याकरण् आनी उत्रां मेळावणेचीं सूत्रां माधवीन दिल्लीं दिसुन् येतात्.

"जाग्" नेमाळें चलय्ताना तिणे सबार् बरवप्यांक् साहिताची वळक्

आनी दिका दाकयल्या. गोवा युनिवर्सिटिंत् कोंकणी ज्ञानकोशाचो सहायक् संसोदपी जाव्न् हांवें माधवी वांग्डा वाव्र् केला आनी तिचो सांगात्, जाण्वाय् आनी कसलेंच् घमंड्, थोराय् नातल्लो तिचो जिनोस् हांव् विस्रोंचेपरीं ना. तवळ् माधवी युनिवर्सिटिच्या कोंकणी विभागांत् प्रोफेसर् जाव्न् आशिल्ली.

तिचें हात् बरप् कोणे तरई पळेव्न् सोबाय् पार्कुंची आनी मांदुन् घेंवची! पाट्ल्या चाळीस् वर्सां थाव्न् तिका लाग्शिल्यान् वळ्कोच्या हांवें इतलेंच् म्हण्येत् की तिचें आचानक् आयिल्लें अंत्य् कोंकणी संसारांत् व्हड् ऐक् सुकिदाड् हाडून् आय्लां.

***

सां. लुवीस् कोलेज् (स्वायत्त्) मंगळूरु हाच्या कोंकणी संस्थ्याथाव्न् पाट्ल्या ३२ वर्सांथाव्न् प्रगट् जांव्च्या 'अमर् कोंकणी' संसोदिक् शण्मासिका तर्फेन् दिवंगत् माधवी सर्देसायिक् आमी दुखिभरित् शृद्दांजली अर्पितांव् आनी सासण् विशेव् मागतांव्. म्हाका, खास्केन् ती भोव् आप्त् मित्रीण् आनी तिणे संपादन् केल्ल्या 'जाग्' नेमाळ्यान् म्हज्यो सबार्शो मट्व्यो कथा प्रगट् केल्यात्.

तिच्या मानाक् आनी उडासाक् आमीं मानेस्तिण् पद्मावति प्रभु हिणे २०१४ दसेंबर् २८ तारिकेच्या 'नव हिंद् टायम्स्' पत्राचेर् लिखल्ल्या Madhavi Sardesai: A life dedicated to Konkani लेखाची तरजण् (पर्वणगी मागल्या) आमी हांगासर् दितांव्.

तर्जण् करपीः एड्वीन जे.एफ्.डिसोजा, संपादक् 'अमर् कोंकणी' संसोधिक् शण्मासिक्.

********